# जांवय म्हजो भांगराचो

(दोन अंकी विनोदी नाटक)







ॲड्. अभिलाषा शिवाजी नायक

# जांवय म्हजो भांगराचो

(दोन अंकी विनोदी नाटक)

अ‍ॅड्. अभिलाषा शिवाजी नायक




मालिनी प्रकाशन
सांगें- गोंय

जांवय म्हजो भांगराचो
(नाटक)
अॅड्. अभिलाषा शिवाजी नायक

Janvay Mhajo Bhangracho
(Drama)
Adv. Abhilasha Shivaji Naik

प्रकाशन क्र.: 1


पयली उजवाडावणीः
ऑगस्ट 2015

उजवाडावपीः
अॅड्. अभिलाषा शिवाजी नायक
मालिनी प्रकाशन
सांगें-गोंय.

छापपीः
ओमेगा ऑफसेट
4574, शेट्टी गल्ली,
बेळगांव.

मुखचित्रः
श्री. अमरदिप शिवाजी नायक

मोलः रू. 135/-




बरोवप्याचो नामोः अॅड्. अभिलाषा शिवाजी नायक, तारीपांटो, सांगें-गोंय.
फोनः 9923668719

ह्या पुस्तकाक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या नाटक/मांड येवजणेखाला अनुदान लाबलां.

म्हजे फाटीचो कणो
जावन म्हाका उबें दवरपी
म्हजी मोगाळ मम्मी
**श्रीमती मालिनी**
आनी बाबा
**स्व. शिवाजी बाबल नायक**
हांकां काळजांत सावन...

**-अभिलाषा**

# जांवय म्हजो भांगराचो

ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग श्री कलनाथ कला आनी सांस्कृतिक मंडळ, सांगें हांचे वतीन 13 डिसेंबर, 2013 ह्या दिसा रातच्या 7.15 वरांचेर, रविंद्र भवन, कुडचडें हांगा सादर केलो आनी आज मेरेन ह्या नाटकाचे 27 प्रयोग वेगवेगळ्या थळांनी जाल्ले आसात.

## पयल्या पाच प्रयोगांचे मानकरी

| | | |
|---|---|---|
| लेखक/दिग्दर्शक | : | ॲड्. अभिलाषा शिवाजी नायक |
| संगीत/पार्श्वसंगीत | : | श्री. अमरदिप शिवाजी नायक,<br>कु. ऋषिकेश रोहिदास साळगांवकर आनी<br>श्री. लीओ गोम्स |
| नेपथ्य | : | श्री. नारायण मसूरकर/श्री. संदीप मापारी |
| रंगवण | : | श्री. संतोष मसूरकर |
| निर्मिती सहाय | : | श्री. प्रताप चं. ना. तारी, श्री. रमेश बा. नायक, श्री. अनिल बा. नायक, श्री. बाळचंद्र गो. नायक, श्री. गणू साळगांवकर, श्री. रामचंद्र नायक, श्री. मधू नायक, श्री. दिपक शिरोडकर, श्री. नामदेव ना. तारी |

## कलाकार

| | | |
|---|---|---|
| हरी | : | श्री. कैवल्य पुंडलिक साळगांवकर |
| तातो | : | श्री. प्रविण प्रकाश नायक |
| अजू | : | श्री. सूरज जगन्नाथ साळगांवकर |
| विकास | : | श्री. रत्नेश रघुवीर ना. तारी |
| प्रितम | : | कु. मंदार मधू नायक |
| मिरांडा | : | कु. प्रियांका गांवकर/सौ. सुषमा फर्नांडीस |
| परी | : | कु. प्रतिक्षा देसाय/कु. दिक्षा नामदेव ना. तारी |

# मनांतलें थोडें

म्हज्या पयल्या कोंकणी नाटकाच्या पुस्तकाची तुमी भरभरून तोखणाय केली. आनी तेच स्फुर्तीन म्हाका म्हजें दुसरें नाटक - 'जांवय म्हजो भांगराचो' उजवाडाक हाडटना खूब खोस भोगता.

आज मेरेन हांवें जें कितें बरयलां तें म्हज्या सुख-समाधाना खातीर बरयलां, हें सत हांव कशेंच न्हयकारूंक शकना. जितले फावट हांव सूख वा दुख्खाच्या पावसान न्हालां, तितलेच खेप व्हड आस्त बाळगून, ह्यो तिव्र वेदना सोंशीत म्हज्या हातांतल्यान नवें कितें तरी बरप घडलां.

सगळ्या तरांचीं नातीं कशीं तुटून पडटात हाचो अणभव खूब घेतला. देखुनूच म्हज्या जिवीतांत सगळ्या तरांचीं नातीं जपपाखातीर हांव खूब यत्न करता. कारण गेल्ले पयशे मेळोवं येतात पूण तुटिल्लीं नातीं जरी जोडलीं जाल्यार लेगीत तांची जोडिल्ली वेर तशीच काळजांत उरता.

ल्हानपणासावन फटींगपणां आनी विश्वासघात ह्या शब्दांचो म्हाका खूब दुस्वास आनी तिरस्कार आनी तोच म्हज्या बरपांतल्यान हांव मांडटा, नाटकांच्या आनी काणयांच्या रुपान. म्हणटात की मनशाच्या बरपांतल्यान मनशाच्या मनाचे विचार लोकांमेरेन येतात आनी ह्या म्हज्या नाटकांतल्यान हांवे तेंच करपाचो यत्न केला.

ह्या नाटकाची काणी, आयज समाजांत जें चल्लां ताचेर आधारीत आसा. लग्न म्हटल्यार फकांडां जाल्यांत आनी घटस्फोटाक उत आयला. आयची पिळगी दिशाहीन जायत आसा. आनी अशा ह्या समाजांत सगळ्या तरांचीं नातीं पयशांक लागून सुळार चडपाक लागल्यांत.

ह्या म्हज्या नाटकांत हांवें घोव-बायले मदलें नातें कशें पयशांक लागून विस्कटपाक शकता हाचेर उजवाड घाला तशेंच आपले कडेन आसा तें कमी दर्जाचें आनी आपल्याक आनीकूय कितें तरी बरें मेळूंक शकता आनी असले असमाधानी लोक सदांच त्रासां पडटा हेंवूय हांवें ह्या नाटकांतल्यान दाखोवपाचो यत्न केला. नात्यापरस पयशांक चड महत्व दिल्यार जिवीताची कशी राखरांगोळी जावं येता, तशेंच परक्यांचेर दोळे धापून केल्लो विश्वास कितलो आत्मघातकी

ठरूंक शकता, हें मांडपाचो ल्हान असो यत्न केला. एक हतबल जाल्लो घरजांवय कसो शिट्रूक जावन आपलो संवसार वाचयता आनी सगळ्यांनी दिल्लो तेंको, ताका आपल्या ध्येयामेरेन पावयता हें हांवें ह्या नाटकांत थोडें हांसोवन हांसोवन मांडपाचो यत्न केला.

ह्या नाटकांत तुमकां थोडो कवितांचोय उणभव येतलो. कारण एक कवीय आशिल्ल्या कारणान म्हाका ज्या जाग्यार कविता घालपाची संद मेळ्ळी ती आनी हांवें सोडूंक ना.

एकूण दर ह्या म्हज्या नाटकांतल्यान हांवें लोकांक हांसोवन हांसोवन एक गंभीर अशी काणी मांडून दाखयल्या.

रविंद्र भवन, कुडचडें हांगा 13 डिसेंबर 2013 ह्या दिसा ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग सादर केलो. मागीर ह्या नाटकाचे सत्तावीस प्रयोग वेगवेगळ्या थळांनी जाले. पड्ड्या फाटल्या सगळ्या कलाकारांचे तशेंच जांणी म्हाका हें नाटक साकार करपाक हातभार लायलो तांचे हांव काळजासावन उपकारी आसा. डॉ. जयंती नायक हांणी म्हाका लेखनांतल्यो चुको दाखोवन त्यो सुदारूंक मोलादीक सुचोवण्यो दिवन म्हाका ह्या नाटकाखातीर मोठ्या मनान प्रस्तावना बरोवन दिवन म्हजी तुस्त केली तांचे हांव उपकारी आसा.

म्हजें हें दुसरें पुस्तक हांवें म्हज्या आवय-बापायक ओंपलां. हें पुस्तक उजवाडाक हाडपाक गोवा कोंकणी अकादेमीचे नाटक/मांड येवजणेखाला अनुदान लाबलां. आनी म्हाका उपकारांत दवरलां.

म्हजें हें पुस्तक छापपाखातीर म्हज्या घरच्यांनी, इश्टांनी, नाटकांतल्यान कलाकारांनी सदांच म्हाका तेंको दिला तांचेय उपकार म्हजेर सदांच उरतले. ज्या नाटकाच्या रसिकांनी म्हज्या नाटकाक दोनय हातांनी येवकार दिलो, तांचे हांव सदांच उपकारी आसतलें. निमाणेकडेन सगळ्या वाचकांक आनी हेरांक जांणी हें पुस्तक उजवाडावपाक आदार केला तांकां देव बरें करूं म्हणटा.

तुमचें,

**ॲड्. अभिलाषा शिवाजी नायक**

सांगें-गोंय.

# नाट्यक्षेत्रांत आपलीं पावलां अभिलाषान थिरावचीं!

अॅड्. अभिलाषा नायक, युवा पिळगेंतलें नाटककार. ताचें 'नेण्टीं तीं नेण्टीं, जाण्टीं कितें कमी?' हें नाटकाचें पुस्तक 2012 वर्सा उजवाडाक आयिल्लें आसा आनी आतां ताचें 'जांवय म्हजो भांगराचो' हें दुसऱ्या नाटकाचें पुस्तक उजवाडाक येता. अभिलाषाचें कवतूक म्हणल्यार ताणें नाटक हो प्रकार खाशेलेपणान आपले अभिव्यक्तीखातीर वेंचून काडला. ताचो लेखनाचो आरंभच नाटक ह्या प्रकारांतल्यान जाला. अशें चित्र क्वचितच पळोवंक मेळटा. नाटक ह्या प्रकाराचे वाटेक खूब कमी लेखक वतात, तेवय हेर प्रकारांत मुरल्या उपरांत. स्त्री लेखिका तर नाट्य लेखनाकडल्यान कितकींशींच पावलां फाटीं रावतात.

स्वतंत्र दोन अंकी नाटकां बरोवन, तीं स्टेज करून उपरांत तीं पुस्तक रूपान उजवाडाक हाडपाचो पयलो यशस्वी यत्न कोणा स्त्री लेखिकेकडल्यान पयलीं जालो तर तो म्हजेकडल्यान, उपरांत आतां अभिलाषान ते नदरेन पावलां उखलिल्लीं आसा. म्हज्या 'कुकमादेवीची दिपमाळ' आनी 'काळमाया' ह्या दोन नाटकांनी कोंकणी नाट्य तशेंच साहित्य मळाचेर खूब नामना मेळयली. प्रेक्षकांच्या – वाचकांच्या काळजांत खाशेली सुवात तयार केली तरी एक सत्य हें, ह्या नाटकांचें दिग्दर्शन आनी निर्मिती हांवें स्वता केल्ली ना. पूण अभिलाषाच्या नाटकांचें वैशिश्ट्य म्हणल्यार ताणें जशीं नाटकां बरयलीं, तशींच तीं स्वता दिग्दर्शीत केलीं, आनी स्टेजय केलीं.

अभिलाषा वेवसायान वकील. आपल्या वकीलीच्या वेवसायांत जम बसयतां बसयतां, नाट्यक्षेत्रांतय आपलीं पावलां थिरावन उबें रावप ही खऱ्यानीच कवतुकाची गजाल.

अभिलाषा गांवान सांगेंचें. सांगेंच्या देवळांच्या प्राकारांत, वर्सुकी उत्सवावेळार ताणें आदल्या तशेंच ह्याय नाटकाचो प्रयोग सादर केल्लो आसा. गांवच्यांच्या तशेंच आपल्या सवंगड्यांच्या आदारार ताणें हें काम केलां. ह्या वावरांत ताच्या गांवच्यांनी तशेंच घरच्यांनी ताका भरपूर प्रोत्साहन आनी सहकार्य दिलां, ही म्हत्वाची गजाल. ना तर अशें सहसा घडना. तातूंत एके चली

मनशेच्या वांट्याक तर अशें भाग्य दुर्मीळच. अभिलाषाचो बापूय स्वता एक बरो नाट्य कलाकार आशिल्लो. गांवची रंगभूंय तांणी गाजयिल्ली आसा. ताचोच वसो अभिलाषान घेतला. सांगें गांवचें वातावरण नाट्य उत्सवी. मनोरंजनाचीं कितकीशींच साधनां गांवांत पावलीं तरी आजुनय गांवच्यांचें नाटकाचें पिशें (प्रेम) उणें जाल्लें ना. आजुनय गांवची जाण्टी-वडील पिळगी आस्तेन नाटक पळोवपी-तोखेवपी आसा. ह्याच कारणांतल्यान अभिलाषाक गांवच्यांकडल्यान खूब प्रोत्साहन मेळ्ळां, तातूंत भर म्हण एक चली भुरगें हें कार्य करता ताचीय तोखणाय मेळ्ळ्या.

नाटक हें माध्यमच अशें की जंय आडखळी-आव्हानां खूब आसतात. अभिलाषाकय तांकां तोंड दिवचें पडलां आसतलें पूण तातुंतल्यान ताणें दोन बऱ्यो नाट्यकृती प्रेक्षकांमुखार उब्यो केल्यात हें म्हत्वाचें. हाचें श्रेय ताका मनापासून दिवंक जाय.

अभिलाषाची आदली तशेंच हिवूय नाट्यकृती विनोदी. सामको ल्हवपीक विशय. प्रेक्षकांक विनोदाचो आनंद दिवपी आनी तकलेचो ताण कमी करपी. आपूण आपल्या नाटकांतल्यान हांसयतां हांसयतां प्रेक्षकांक बोध घडयता अशें तें दावो करता. आचकट-विचकट विनोदान न्हय तर विक्षिप्त सभावाचीं, अरवळ गुणांचीं पात्रां रचून तांची भाशा आनी वागणुकेक धरून नाटकांत आपूण विनोद निर्माण करता अशें ताचें म्हणणें आनी तें सत्य आसा.

अभिलाषाचें हें नाटक, जात्रा-काल्यांनी जंय सर्वसामान्य बुध्दीचो प्रेक्षक चड आसता, जाचो नाटक पळोवपा फाटलो उद्देश निकटें कांय खिणांचें स्वताचें मनोरंजन करून घेवप हो आसता, तांचे खातीर, एकदम पसंतीक पडूं येता अशें. आनी तें तशें पडलांय हें ताच्या पयल्या प्रयोगाक मेळिल्ली प्रेक्षकांची दाद पळोवन तर्क करूं येता.

नाटक लेखनाचे बाबतींत अभिलाषा यशस्वी जालां आनी ताका नाट्यतंत्र बरें जमलां अशें दुबाव विरयत म्हुणूं येता. इतके तरणे पिरायेचेर ताणें मेळयिल्लें जैत खूबच कवतुकास्पद आसा.

कोंकणी नाटकाक विनोदी नाटकाची खूब व्हड परंपरा आसा. शणै गोंयबाबांच्या नाटकांतल्यान ती सुरू जाली आनी फुडें 'बाप्पा' ह्या पात्राच्या माध्यमांतल्यान वेगवेगळ्या नाटकांतल्यान आनी नाट्यमाळांतल्यान ती फुडें

व्हेली. आज बाप्पाचें पात्र कुशीक उरलां पूण विनोदी नाटकां मोटे संख्येन कोंकणीं स्टेजीर येतात तशेंच पुस्तक रूपान उजवाडाक येतात.

मनशाचे जिणेंत 'विनोद' हे गजालीक खूब म्हत्व आसा. मनावेलो ताण हलको करूंक विनोद खूब आदार करता. बुध्दीवान आनी दूरदर्शी लेखक ताच्या नाट्यकृतींत पात्रां, संवाद, विशय, प्रसंग हांच्या आदारार विनोदाची निर्मिती करतनाच सामाजिक विकृतींचेर बडी मारता आनी समाजांतल्या वेगवेगळ्या प्रश्नांक वाचा फोडटा. हें काम तो प्रेक्षकांक हांसयता हांसयता नुलयत करता. ताचे विनोदय आचकट-विचकट नासतात, ते आपलो मर्यादेचो पावंडो सांबाळून आसतात.

मात हालींसराक कोंकणींत कांय नाटकां विनोद तयार करपाच्या यत्नांत आपल्या वैचारीक आनी मर्यादेच्या पावंड्याचें भान विसरल्यांत अशें चित्र पळोवंक मेळटा आनी हाकाच लागून विनोदी नाटकां म्हणजे साहित्यीक दर्जो नाशिल्लीं नाटकां असो सर्वसामान्यपणान समज जाल्लो दिसता. पूण हें पुर्ण सत्य न्ही, विनोदी नाटकांकय साहित्यीक मुल्यां आनी दर्जो आसता हें अभिलाषान आपल्या दोन नाटकां वरवीं सिध्द केलां.

'जांवय म्हजो भांगराचो' हें नाटक विशय आनी शैली हे नदरेन लक्षांत उरसारकें आसा. 'आपलो तो आपलो आनी परकी तो परकी' अशी शिटकावणी तें ह्या नाटकांतल्यान दिता. सुटसुटीत आनी सहज संवाद हें ह्या नाटकाचें वैशिश्ट्य. एखाद्रे हौशी नाट्य मंडळाक सोंपेपणान सादर करूं येता, अशें हें नाटक.

'तातो' हो ह्या नाटकाचें मुखेल पात्र. आस्पतीन पयशेकार, भाटकार. आदले पिळगेंतले जाण्टे-पयशेकार जशे सभावान खडूस, तरी थोडेशे छंदी आसतात त्याच सभाव गुणाचें हें पात्र. तो कोणाक पयशांक पातेयना, पूण विकास जो ताच्या इश्टाचो पूत म्हण सांगता ताका पातयेता. विकास ताका गोड गोड उलोवन नाडूंक पळयता. ताची सगळी इस्टेट आपल्या नांवार करूंक पळयता. पूण ताचो घरजांवय आशिल्लो, जाका तो किंकोत करतालो तो हरी ताका ऐन वेळार शादूर करून विकासाचें बिंग फोडटा आनी ताका भिकेक लागपाच्या प्रसंगांतल्यान वांचयता. तेन्ना तात्याक, जांवयाचें म्हत्व कळटा आनी 'जांवय म्हजो भांगराचो' अशे तो उद्गार काडटा.

ह्या नाटकाचें कथासूत्र अभिलाषाक ताच्या वकिलीच्या वेवसायांत मेळ्ळां हें कोणें वेगळें सांगपाची गरज ना. ताचेकडेन आनीकय जायते विशय आसतले, तेवूय तें एक एक करून नाटकाच्या रुपांतल्यान प्रेक्षकांमुखार आनी वाचकुंखार हाडटलें अशी अपेक्षा आसा.

दुसऱ्या नाटकाच्या ह्या पुस्तक जल्म सुवाळ्या निमतान अभिलाषाक मनासाकून परबीं !

**डॉ. जयंती नायक**

# अंक पयलो

## प्रवेश पयलो

(तातो लागीं लागीं साठेक वर्सां पिरायेचो मनीस. माचयेर एकटोच आसा. सकाळचो वेळ. पदांच्या तालार व्यायाम करता. सारखो व्यायाम नकळो जाल्ल्यान मेळटा तसो उडयो मारता आनी हात वयर काडटा. अकस्मात ताच्या कमरान येता आनी तो बोवाळ मारूंक लागता. ताचो बोवाळ आयकून हरीश (हरी) भायर येता.)

**तातो** : आवय गे देवा, मेलो ऽऽऽ मेलो ऽऽऽ कमरान चडून आयलें म्हज्या. आवय ऽऽऽ आवय ऽऽऽ हरी ये हरी! (आवाज आयकून हरी भायर सरता.)

**हरी** : (तातोक पळोवन स्वगत) कितें जालें काय ह्या जडड्याक? बोंब मारपाक (उगड) कितें जालें? कितें जालें तातो ?

**तातो** : (बल्कांवाचेर बसता) कमरान चडून आयलें म्हज्या.

**हरी** : तातो तुका कितले खेप सांगलें हांवें, अश्यो जाण्टेपणान उडयो मार नाका म्हुणून, खिळखिळो जावपाक वेळ लागचोना. तुज्या असल्या जाण्ट्याक म्हणटात तो एकच exercise.

**तातो** : खंयचो?

**हरी** : प्राणायम! ओम शांती शांती शांती...

**तातो** : आरे कितें व्हडल्या व्हडल्यान शांती शांती करता? शांती तुज्या सासुमांयचें नांव. याद ना?

**हरी** : ती जिती आसा आतां? (तातो ना म्हुणून मान हालयता) ना न्ही. मागीर तुजो बोवाळ कित्याक?

तातो : घर जांवय जावन आसा, तरी कड्डी चड तुका.

हरी : (स्वगत) तुका कोको भितां हांव.

तातो : चल चल च्या हाड. (हरी वचपाक लागता) आनी आयक बरोबर फोडणी फोवूय हाड.

हरी : (स्वगत) कुण्याक फोडणी मारून हाडून घालता तुज्या ताळ्यान. (उगड) आं हाडटा, आनी कितेंय जाय जाल्यार तेंवूय सांग.

तातो : आनी काय नाका. सांगलां तितलेंच सारखें हाडल्यार देव पावलो म्हणपाचो. (तातो पेपर वाचत आसा.) हरी भितर वता).

प्रितम : (पद म्हणत येता) **पयस एक ल्हारार आसलो एक राजकुमार**. (तातो ताका पळयत आसा) **पयस एक ल्हारार आसलो एक राजकुमार...**

तातो : ओ राजकुमार, राजकुमार. (प्रितम आपल्याच धुंदीन) ये वाचींदळा (प्रितम पळयता) तुका उलो मारता हांव.

प्रितम : तातो, म्हाका तूं परत परत वाचिंदळ म्हण्णाका आं. कवी म्हण कवी.

तातो : पाड पडलें कवीचें. धावेक काडलीं दोन वर्सां, बारावेक दोन वर्सां, आतां पंदराकेक कितें करता तें पळोवया.

प्रितम : तातो म्हाका व्हडलो जावन कवी जावपाचो आसा.

तातो : व्हडलो ? आनीक आनी कितलो व्हडलो ? घोडो खंयचो.

प्रितम : तातो म्हाका घोडो म्हण्णाका आं.

तातो : बरें, घोडो म्हणना, फाल्यांच्यान हांव तुका घरदुकोर म्हणटा.

प्रितम : तोतो आतां चड जालें. समज केन्नाय तुका म्हाका उलो मारीन दिसता, जाल्यार प्रितम नाजाल्यार कविराज म्हण.

तातो : आडनांव बोरकार म्हुणून, तूं कितें जिवाक कवी बाकीबाब

बोरकर समजता काय कितें?

**प्रितम** : हांव बरयता त्यो कविता वाचिल्ल्यो जाल्यार कळटा आशिल्लें तुका. आसूं. गधा क्या जाने, गुलाब जामून का स्वाद!

**तातो** : गाढवा... व्होशीमोर हांगचो.

**प्रितम** : तातो सकाळ-सकाळ फुडें कित्याय कितें म्हुणून दीस पेड्ड्यार कर नाका म्हजो. कॉलेजीन मागीर मूड ऑफ उरता (भितर पळयता) हो भावोजी खंय गेलो?

**तातो** : तो भितर आसा. च्या करता.

**प्रितम** : भावोजी ये भावोजी (दाराकडेन वचून) च्या जाली?

**हरी** : (भितरल्यान) जाली जाली हाडटा. (प्रितम बसता. हरी च्या हाडटा) घेयात. (ते दोगय कप उखलतात.)

**तातो** : फोडणा बरी घातल्या म्हरे?

**हरी** : घातल्या... घातल्या. बरी ऽऽऽ घातल्या. (स्वगत) एक दीस तुकाच फोडणेक घालता.

**प्रितम** : भावोजी फोडणी फोव बरे ऽऽऽ जाल्यात.

**हरी** : हय. फाल्यां हांव तुका अशेच करपाक शिकयता. मागीर पराच्यान तूं कर.

**तातो** : तूं आसतना तो कित्याक? ताका मातशें शिकूनी, हो वशाड पडिल्लो सगळो धंदो जाग्यार हाडूनी. बेसां आसात, भाटां आसात पूण येणावळ ना.

**हरी** : पूण तातो प्रितम आपूण कवी जाता म्हणटा न्ही.

**तातो** : उजो लाय व्हरून त्या कवीक.

**प्रितम** : भावोजी, तातोक कितलेंय सांगल्यार लेगीत समजुपाचें ना. आनी हांव बरयता त्या शब्दांचो अर्थ लेगीत ताका समजुपाचो ना.

तातो : व्हडलो तूं रविंद्रनाथ टागोर!

हरी : (स्वगत) रविंद्रनाथ टागोर खंयचो? हो तर जात्रेचो जागोर.

प्रितम : भावोजी, पळय.... आयक आं. म्हजो शब्दप्रयोग आयक. (खोंकता) दिदीच्या स्पर्शान भावोजी नखशिकांत मोहरून गेलो.

हरी : कितें?

प्रितम : दिदीच्या स्पर्शान भावोजी नखशीकांत मोहरून गेलो!

हरी : म्हटल्यार अशें मरे, तुज्या दिदीच्या स्पर्शान म्हाका नाकांतल्यान शिंको येवपाक लागल्यो.

प्रितम : तशें न्ही भावोजी. म्हटल्यार दिदीच्या स्पर्शान तुका करंट आयलो.

हरी : हात आनीक लावपाक जाय? तुज्या दिदीच्या उतरांनीच म्हाका करंट लागता तो पुरो.

प्रितम : (हांसता) बरें बरें. (च्याचें कप दवरता) आतां हांव चल्लो कॉलेजींत.

तातो : शीक आनी मातसो उजवाड घाल बाबा. एक एक दीस वता म्हटल्यार सामको भंय दिसता.

प्रितम : तातो भिनाका.

तातो : तुजीं हीं चिन्नां पळोवनूच म्हाका भंय दिसता न्ही.

प्रितम : बरें म्हाका वेळ जाता, हांव चल्लो (प्रितम वता. हरी कप-बशी काडपाक लागता.)

तातो : ये राव रे. ताणें फोव सांडल्यात ते दिसनात तुका?

हरी : दिसता. मागीर?

तातो : मागीर आनीक कितें? तुज्या बापायन पोटलो हाडून दवरला हांगा? हांव खाता ते. पेड्यार जातले. (तातो ते फोव खावपाक

लागता. हरीश ताका पळयत आसा.)

हरी : (स्वगत) भोकाऱ्याक पळयात.

तातो : पळयता कितें?

हरी : कांय ना. घरांतलें सामान काबार जायत आयलां.

तातो : कर्माचो भोग हो. लोकांचे जांवय आपल्या मावोड्या सामान काबार जाता काय म्हूण पळयतात. आनी रोकडोच व्हरून पावयतात आनी म्हजो जांवय आसून लेगीत नाशिल्ल्याबशेन एकदम शून्य. बरें सांजे परीक सांग हाडपाक. सकाळीं बरें भारी टिफीन करून दिल्लें मरे तुवें ताका? पोर काम करून करून थकता.

हरी : (स्वगत) ताका कसली धाड भरता, थंय ऑफिसान बसून काम करपाक? म्हजो मात हांगा तुमी कुंडो काडून सोडटात.

तातो : आसूं, प्रायवेट जाल्यार प्रायवेट आनी कितें करतले. घोव मेळ्ळा न्ही ताका बेकार लवडी.

हरी : तातो, आनीक हांव घरांत सगळें इतलेंय काम करता ताचो कांयच वालोर ना.

तातो : (चाळोवन) पुरो पुरो. (इतल्यान अजू भितर सरता.)

अजू : हरी ऽऽऽ ए हरीश...

तातो : घे, दुसरो आयलो. आयज सकाळीं-सकाळीं फुडें हेडपाक सुटला सो. बायलेन च्यायेकडेन गिळपाक कांय घालूंना?

हरी : तातो कोणाकूय तरी सोड सायबा. अजू यो. कितें खबर? आज कामाक वचूंक ना?

अजू : ना रे. सुटयो बेश्ट्योच वेस्ट जातात न्ही, तेखातीर लीव्ह काडली (बशयांक पळयता) आज कितें, फोडणी फोव केल्ले काय कितें?

हरी : अजाप म्हरे. तुका कशें कळ्ळें? तातोन तर दोनूय बशयो सामक्यो ल्हेवून खाल्ल्यात.

अजू : हांगा टी-पॉयचेर एक सासंव आनी एक फोवाचो गोटो पडला.

हरी : आं अशें?

तातो : तुका मेल्याक जाय आशिल्ले?

अजू : तशें नाकात. पूण आसल्यार खाता आशिल्लो.

तातो : ना काबार. हो तो एकच फोवाचो गोटो उरला तो खाता जाल्यार खा, फुक्या.

अजू : तातो, तुजेकडेन म्हरे उलोपवाचेंच ना. लोकांक कातरूपाक तुज्या जिभेची सामकी तलवार कोरून सोडल्या तुवें. हरी, पयर हांवें सांगिल्ल्या त्या इंटरव्ह्यूक गेल्लो तूं?

हरी : हय वचून आयलो आनी रिझल्टूय जालो.

अजू : कितें जालें?

हरी : जातलें आनीक कितें? तांकां मातशी इंग्लीश बरी जाय खंय. फुडले फावटीं गूडलक म्हटलें आनी धाडलो.

तातो : (स्वगत) तरी बरें, कुल्यार फोट मारून बरो धाडूंक ना.

अजू : बरें आसा. तुज्या कामाचें उतर हांव दुसऱ्याकडेन घालून पळयता.

तातो : ताणें ह्या वण्टींक पळोवपाचें आनी आमी ताका. जाल्यो इतल्योच शीमो ताच्यो. ताका आनीक काम मेळटा.

हरी : तातो, कितले म्हूण थोमणे मारतलो. उलोवन उलोवन तोंड वळून येना तुजें. जाण्टेपणान तकलेर चड ताण दिवं नाका. आनी अशे जिवाक त्रास करीत रावल्यार एक मात बरें जातलें, तुज्या शांती फुड्याक रोकडोच पावतलो तूं.

**तातो** : तूं मेल्लो तेंच मागता न्ही आनी भिनाका तूं तंदुरूस्त उरपा खातीर हांव डेली व्यायाम करता तो न्ही.

**हरी** : तो व्यायाम? त्यो फकत माकड उडयो.

**तातो** : चल, चल जेवणाचे तयारेक लाग. हांव मातसो भाटान पासय मारून येता.

**हरी** : माड आसात, पूण नाल्ल ना. आंबे, पणस बेनुलांनी भरल्यात. आनी कितें, कर्म पळोवपाक वता तूं थंय?

**तातो** : तुका कळपा ना तें. तुवें केन्ना भाटां पळयल्यांत? हांव चल्लो.

**हरी** : चल चल, अख्ख्या गांवच्या लोकांनी सकाळीं सकाळीं फुडें बिल्डींगो बांदून दवरल्यात दिसता थंय.

**तातो** : तूं रांदपाचें पळय, हळशिका. तुका नाका तें. (तातो वता)

**अजू** : हरी, तुजो म्हणून सामकोच कचरो करून सोडला हांगा. तरी हांव सांगतालो तुका, घर जांवय जायनाका म्हणून. पूण तूं खंय आयकता? तुज्या माथ्यार परिणीताचो मोग चडलेलो न्ही रे. कळ्ळें म्हरे आतां तुका, जालो म्हरे फोग?

**हरी** : अजू, तूं आनी तकली पिकार कर नाका पळोवया. अडला हरी आनी गाढवाचे पाय धरी, अशी सद्याक परिस्थिती जाल्या म्हजी. साला नसीब गांडू, तो क्या करेगा पांडू. शीरो कर, फोडणी फोव कर, चटणी कर, किसमूर कर, चिकन कर, मटण कर, बाये घोव व्हरून, वीट आयल्या सगळ्यांची. एक एक दीस तातोच्या उतरांनी अशें जाता, कोंब्यांची मान पिळटात तशी ह्या तातोची मान पिळून ताचेंच मटण करून सगळ्यांक रांदून वाडूं अशें.

**अजू** : हरी... कूल कूल. असो पिकार जायनाका.

हरी : पिकार जायनाका. आनीक कितें? बायल करून सोडल्या म्हाका (अजू हांसता) हांसता कितें? तुका सगळें आयतें मेळटा. तूं बसता काय वता, म्हाका जेवण करपाक जाय आनी आज सोमार, म्हाका आतां मसालो करून मागीर खतखतें करपाक जाय. (अजू हांसता)

अजू : बरें बरें. कर तुजें खतखतें. हांव चल्लो (अजू वचपाक लागता. माचयेर काळोख.)

(प्रवेश पयलो सोंपता.)

## प्रवेश दुसरो

(माचयेर हरी सान्न मारता. इतल्यान भायल्यान परी येता.)

परी : हरी ऽऽऽ हरीश, हरीश.

हरी : परी आयलें तूं. (परी जार जाल्या सारकी ॲक्शन करता.)

परी : म्हाका पिवपाक थोडें उदक हाड पळोवया.

हरी : आं. (हरी भितर वता आनी उदक हाडटा) घे.

परी : शी... आज ऑफिसांत खूब काम आशिल्लें. ज्यार जालें हांव सारखें. तकली मातशी दामता?

हरी : हें आनी विचारपाचें. दामता मुगो. (हरी रागान ताची तकली दामता.)

परी : आतां मातशें बरें दिसता. हरी, आतां तुवें म्हाका च्या ना जाल्यार कॉफी दिल्यार जाता.

हरी : बरें हाडटा. (हरी भितर वता. भितरल्यान तातो येता.)

तातो : बाय आयलें तूं?

परी : हय तातो. आनी प्रितम आयलो?

तातो : ना आजून आयलो ना तो. खंयीय झाडा पोंदा कविता बी बरोवपाक बसला दिसता. च्या दिली तुका हरीन?

परी : ना. हाडपाक गेला तो.

तातो : घरांतलें सामान सोंपत आयलां म्हुणून सांगतालो तो. हांव पयशे दिता, तूं फाल्यां कामांतल्यान येतना हाड.

परी : बरें. तातो जेविल्लो मरे तूं दनपरां? (इतल्यान हरीश च्या हाडटा)

हरी : आगो तुज्या बापायक हांव उपाशी मारना. बरें खतखतें करून वाडिल्लें. (च्या दवरता).

तातो : रांदूनूय घालना जाल्यार आनी कसलें काम करतलो तर तूं?

परी : (च्या पीत पीत उलयता) हरी, आनी एक विचारपाक याद ना तुका. हांवें तुका रातीं कपड्यांक फॅर मारून दवर म्हुणून सांगिल्लें, सकाळीं पळयल्यार कपडे तशेच आसात, चुरगुटलेले.

हरी : रातीं तुमच्या भुसाक आशिल्लें चिकन, आज जालो सोमार, मागीर सगळीं आयदनां घांसता, गॅस पुसता, किचन नीतळ करता म्हटल्यार टायम जालो. म्हाका न्हीद येवपाक लागली. न्हीदलो.

परी : दिसभर घराकडेनूच आसता न्ही तूं. मदीं मदीं न्हीदपाक टायम मेळना तुका?

हरी : रांदा वाडा, उश्टी काडा आनी कपडे घासा म्हटल्यार दीस काबार आनी हांव जाता जार.

परी : आज आमच्या ऑफिसान लीनान सगळ्या स्टाफाक पार्टी

दिल्ली.

हरी : भुरगें जावपाचें आसा काय कितें लीनाक?

परी : हट भुरगें न्ही, तुका आनी कांयच येवजना. लग्न जातकीर रोकडींच भुरगीं.

हरी : मागीर कसली पार्टी तर?

परी : ताच्या घोवाचें प्रमोशन जालें म्हुणून. आनी तूं एक आसा म्हजो घोव घरकोंबो.

हरी : मागीर म्हजेकडेन लग्न कित्याक जाल्लें तर तूं? बरो खंयचोय बाजारकोंबो धरचो आशिल्लो.

परी : देव अक्कल वाडटालो तेन्नाच तुज्या मोगान पडलें न्ही हांव. आनी अक्कल नाशिल्लो मनीस असोच चूक करता.

हरी : अगो म्हज्या फाटल्यान पंच्चावन जाणां आशिल्लीं. आनी तूं छाप्पनावें. आनी हांवें छाप्पनावे कोयतेन म्हजो गळो कापून घेतलो.

तातो : अरे गड्ड्या, म्हज्या परिच्या असलें भुरगें तुज्या कट्यान तरी आशिल्लें? नशीब म्हण.

हरी : मडसरी नशीब. सगळी पिशांची फॅमिली मेळ्ळ्या म्हाका. बापूय वाचिंदळ, चलो अजागळ आनी चली वादळ. देवा मारून वडोवपाचोच आशिल्लो जाल्यार खंयच्याय गाडयेच्या पोंदा तरी घालपाचो म्हाका.

परी : आवय कितें तर बाये उलोवपाचे थाट. (रुमान वचपाक लागता).

हरी : (परीक पळोवन) परी मोग करता म्हणून फायदो घेनाका म्हजो.

तातो : फायदो? तुजो आनीक कसलो फायदो? एक काडीचो सुद्दा

फायदो ना तुजो.

हरी : फाल्यांच्यान तूं जेवण कर. दिसभर कासोव जावन बेश्टोच अख्ख्या घरान नाचत आसता.

तातो : आब्बा. म्हज्याच घरांत रावून म्हाकाच तोंड वयर करून सांगता आनी हांव म्हज्याच घरांत कासोव जावन नाचू ना जाल्यार कोंबो जावन नाचू, तूं कोण म्हाका सांगपाक?

हरी : हय म्हाका खबर नातर तूं कोंबो कोणाच्या खातीर जाता तो?

तातो : त्यो राटावळ्यो तुका नाकात गड्डो खंयचो. (इतल्यान परी कपड्यांचो गठ्ठो घेवन येता.)

परी : घे. हे कपडे धुवपाचे कित्याक दवरल्यात? डेली धुना जाल्यान चड जातात ते.

हरी : (रागान) आनी आसल्यार हाड मुगो. सगळ्यांक बरोबर उजो घालता.

परी : कितें?

हरी : म्हटल्यार धुता गो.

तातो : परी म्हज्याय रुमांतले कपडे हाडून दी ताका. (परी रुमान वता आनी कपडे हाडून हरीकडेन दिता.)

हरी : तातो, घाणी मारता मरे तुज्या कपड्यांक. ह्याचखातीर सांगत आसता तुका हांव भाटांत भोंवपाक वचनाका म्हुणून. थंय वतकीर मागीर बिल्डींगो... (परी ताका थांबयत उलयता).

परी : हरी आसूं आतां. भाट म्हटल्यार एक याद जाली. तातो पाड्याचे नाल्ल उरल्यात काय काबार जाले? आमच्या ऑफिसान कोणाक जाय आशिल्ले.

तातो : ना. पयर थोडे आशिल्ले ते विकले. आतां पाड्याक नाल्ल म्हुणून खंय पडटात. प्रत्येक पाड्याक नाल्ल कमी जायत

आसात. पेण्यांनी नाल्ल जातले जाल्यार भाटाक काम जाय, आळीं काडपाक जाय, सावळ घालपाक जाय, पंप बसोवपाक जाय आनी हें सगळें करतलो जाल्यार पयशे जाय. तुजो पगार आमकां पोसपाकूच काबार जाता आनी तुका घोव मेळ्ळा तोवूय बेकार लवडी.

**हरी** : तातो तूं घुवून घुवून म्हजेरच पावता आनीक कांयच येवजना तुका?

**परी** : तातो तूं मातसो भितर वच पळोवया.

**तातो** : वता वता. सारखें उलयल्यार अशीच बडी बसता. (हरी तोंड वांकडें करून वगीच बसता, तातो भितर वता, परी हरीच्या केंसाक हात लायतच उलयता.)

**परी** : हरी, तातो आतां जाण्टो जाला आनी त्याचखातीर ताका आतां कितें उलोवपाचें तें कळना.

**हरी** : जाण्टो? बरो आसा तो. ताचीं कारस्थानां खबर ना तुका, आनी जाण्टो जाल्यार मनशान वोगीच राम राम करून बसपाक जाय आनी तुजो बापूय दिसभर घरांत भुरग्या सारखो धुमाकूळ घालत आसता.

**परी** : आसूं रे हरी. तूं ताचेर चड लक्ष दिवं नाका पळोवया. तातो तसो मनांन मोवाळ.

**हरी** : आनी तूं?

**परी** : हांव कशें तें तुवें सांगपाचें.

**हरी** : सांगू?

**परी** : सांग.

**हरी** : खरेंच सांगू (स्वगत) तूं कैकयी. (उगड) तूं मगो म्हजी परी म्हज्या काळजाची राणी.

परी : खूब काम पडटा तुका न्ही?

हरी : (हय म्हुणून तकली हालयता, पूण तोंडान ना म्हणटा) ना. तुज्या मोगा मुखार हें काम कांयच न्ही.

परी : हरी मागीर सगळे ते कपडे धुता न्ही तूं?

हरी : हें आनी सांगपाचें ? हांवूच धुता न्ही कपडे डेली. (उठत) हांव न्ही, तसो कितलेंय काम करपाक शकता, पूण तुजो बापूय मगो म्हजो जीव खाता. (हरी उठून कुशीक वता.)

परी : तुंवूय मरे ताच्या तोंडाक लागता आनी मागीर तुमचें पेट्टा. (परी ताच्या फुड्यान वता, ताच्या पांयाक चिखोल लागता. तें हरीचो हात कुशीक काडीत उठ्ठा आनी म्हणटा) हांगा सान्न मारूंक ना तुवें? हाचेर चिखोल सामको दाटला मरे.

हरी : मोगाच्यो दोन खबऱ्यो उलोवपाच्यो सोडून (चाळयता) हांगा चिखोल, थंय चिखोल, कपडे धू, वीट हाडून सोडल्या. खंयीय वचून जीव दितलो म्हटल्यार लोक म्हणटले बायलेक भिवून जीव दिलो म्हणून.

परी : तूं दीस रात तातोचो जीव खाता आनी... (हरी परीक थांबयत उलयता.)

हरी : हांव तातोचो जीव खाता? काय तो म्हजो जीव खाता? तूं आनीक खंयचें जातलें? बीं तशेंच भात आनी म्हजी हांगा काडली कात.

परी : इतलो तिडकुपाक जालें तरी कितें? तुवें मातशें रांदल्यार कितें स्वर्गाक हात लायता सो दिसता तुका?

हरी : स्वर्गाक हात लायना, पूण दीसरात हांगा काम करून आनी तुज्या बापायचें थोमणें आयकून बेग्गीन स्वर्गाक पावतलो सो दिसता म्हाका. लग्नाच्या पयलीं आशिल्लें कितें आनी

आतां जालां कितें?

परी : आतां कितें जालां? जिवान तर घट-मूट आसा तूं.

हरी : आतां कितें जालां? आतां बनियान आनी चड्डी जाला. घरांतल्यान भायर सरल्यार म्हयने जाले आनी शेड्डो तुजो तो बापूय, कोंबो जावन मीरयत आसता. एक दीस भूसाक मातसो वेळ जाल्यार बोंब मारता.

परी : पुरो हरीश आतां चड जालें.

हरी : चड जालें म्हण्णाका, हें सगळें हांव सोंसता पळय तें फक्त तुज्या मोगाखातीर.

परी : म्हाका दिसना तूं म्हजेर मोग करता म्हणून.

हरी : कसो दिसतलो? बरो जोडटालो जाल्यार दिसतलो आसलो?

परी : शी, तूं बाबा अर्थाचो अनर्थ करता. चल चड उलयलो तूं, वच हे कपडे धू. हांव थकला. मातशें आड पडटा. (परी भितर वता).

हरी : हय गो, तुमी सगळीं थकतात आनी हांव मातसो मशीन म्हाका मनय ना आनी तनूय ना. आसूं कितें करतलो? कुराड मारून घेतल्याच पांयार, आतां लंगडत भोंवपाचें. (अशें म्हणत लंगडत भीतर वता.)

(माचयेर काळोख)

(प्रवेश दुसरो सोंपता.)

## प्रवेश तिसरो

(माचयेर कोण ना. इतल्यान तातो भायर येता.)

**तातो** : हरी ये हरी. खंय मेलो काय हो. (सगळ्याक पळयता) (बायलेच्या फोटवा फुड्यांत वचून) शांते ये... शांते खंय गेलें गो म्हाका एकट्याक सोडून. लोक आपल्या बायलेच्या बरोबर काय बरे भोंवतात आनी हांव हांगा एकटोच.

(इतल्यान पन्नास वर्सांच्या पिरायेची मिरांडा भायल्यान येता.)

**मिरांडा** : बॉम्बेच्यान रोज येयलां, रोज येयला उज्याच्या गाडयेर... बोक्कार ओ... बोक्कार.

**तातो** : यो यो खंय आशिल्ली इतले दीस. हांव सामको हुस्केतालो तुका.

**मिरांडा** : भावागे चेड्या काजार आसलोलें, देखून बॉम्बे गेल्लें हांव.

**तातो** : काजार बरें जालें मगे?

**मिरांडा** : एकदम फोर्त. कितू देसपेस केलो जाणा भावानू. कॅसो डान्स केलो लोकांनी शा. म्हाका डान्स खूब लायक.

**तातो** : आनी तुवें करूंक ना डान्स?

**मिरांडा** : हांव आनी कोणा वांगडा डान्स कोत्तलें. मुगे घरकार आसलो जाल्यार कोता आसलोलें.

**तातो** : तुका डान्स करपाक आवडटा जाल्यार म्हाका सांगल्यार जातालें. हांवूय म्हुणून बेकारच आसता न्ही. येता आशिल्लो तुज्या बरोबर काजराक.

**मिरांडा** : बोरे हां. येता त्या म्होयन्याक मुगे भयणीगे चेड्यागे काजार हा नुया, तेन्ना तुका वोत्ता.

**तातो** : आजून सुद्दा तुवें आपल्या जिवाची काळजी बरी घेतल्या.

नेण्टीच दिसता.

**मिरांडा** : होय नू? पयर काजारा देकून सोगलीं येशें मुट्टालीं म्हाका. ब्युटी पार्लर गेले बोगर जाता तें?

**तातो** : खंय?

**मिरांडा** : ब्युटी पार्लर रे, दुकान येशें बोरें दिसपाचें. थिंगा गेल्यार लोक न्हिवोळ जावन भायर सोत्ताय. पूण देसपेस मात लागोता.

**तातो** : अशें दादल्यांचें बी दुकान नासता?

**मिरांडा** : नासोता कित्याकू? आहाय मुरे. कितलीं आहाय. जावयाक सांग एकदीस व्होर म्हूण. सामको जेंटलमॅन जावन भायर सोत्तोलो.

**तातो** : शी शी शी, जावयाक आनी सांगपाचें ना. तो वाट लायतलो म्हजी.

**मिरांडा** : ॲ. कितें रे बोक्कार. नाजाल्यार तुग्या चेड्या सांग न्हू.

**तातो** : हॅ. हॅ. घराक कोणाक सांगपाचें ना.

**मिरांडा** : तुगे जांवय खूंय गेला रे? दिश्टी पडोना येसो. (बसता)

**तातो** : हांवूय ताकाच सोदतालो. (स्वगत) आसूं तो ना तोच बरो. (तिका मातसो तेंकून बसपाचो यत्न करता.) तुज्या तकलेर कितें पडलां?

**मिरांडा** : कितें पोडोलां? (ती तकलेक हात लावन वडोवपाचो यत्न करता.)

**तातो** : राव राव, हांव काडटा. (तातो मिरांडाच्या माथ्याक हात लायता. इतल्यान थंय हरी पावता. तो तें पळोवन आबूज जाता.)

**हरी** : कलीयूग... कलीयूग. घोर कलीयूग (तातो आबूज जाता).

**तातो** : कितें कलीयूग... कलीयूग? (गडबडून उलयता) मिरांडा

माथ्यार कितें पडिल्लें तें काडटालो हांव.

**हरी** : तरी बरें माथ्यारूच पडिल्लें.

**मिरांडा** : कितें जालें हरी?

**हरी** : कांय ना. तुका समजुचें ना तें. आमचे भितर तें. तातो माजर दोळे धांपून दूद पिता आनी आपल्याक कोण पळयना अशें समजता.

**मिरांडा** : हॅरी कॅसो आ तूं?

**हरी** : काडटा दीस.

**मिरांडा** : कित्याक रे बाबा तेसो मुट्टा. येशें बोक्कारा येसल्या जाण्ट्ये मोनशांनी म्हुणपाचें.

**हरी** : (हांसता) तो कित्याक म्हणटलो? ताचें कुण्यार शिजता. तो अजून तन्नोच आसा.

**तातो** : (स्वगत) पाड पोडो मेल्याचें वाट लागली सगळी. जुस्त टायमार पावलो, आतां हाची कशी वाट लायता ती पळयात (उगड) मिरांडा ह्या दिसांनी चेडवागेर बी वचूना गे.

**मिरांडा** : बॉम्बेच्यान येता आसतोना पासय मान्न येयलें. तेगे बोरें चोल्लां थिंगा. कायच्च्य उणें ना. मुगे जांवय तेका मात्तूय दूक लागो दिना.

**तातो** : नशीब आसूंक जाय इतलो बरो जांवय मेळपाक.

**मिरांडा** : सोकाणी मुगे जावयान म्हाका फोन केल्लो, कितें ना तें सांग म्हूण सांगतालो. हांव सामकें लकी, येसो जांवय मेळपाक.

**तातो** : आनी हांव दुखी (हरीक पळोवन) येसो जांवय मेळपाक.

**मिरांडा** : मुगे जांवय सा भांगराचो.

**तातो** : म्हजो जांवय शेणाचो.

**हरी** : आनी म्हजो मांवच तें शेण खाता.

मिरांडा : पयरू मुगे जांवयान म्हाका एक भांगराचो हार धाडला.

तातो : म्हज्या जांवयाच्यान सादो फुलांचो हार लेगीत हाडपाक जायना.

हरी : फुलांचो हार हाडपाक जाता. पूण तो पळोवपाक तूं आसपाना.

तातो : म्हटल्यार ?

हरी : आतां फुलांचो हार तूं मरता तेन्ना हाडचो पडलोना.

मिरांडा : हॅरी. आस रे. तेशें मुण्णाय. तुका खोबोर हा, मुगे जावंय म्हाका काय म्हूणा. आनी बोक्कार तुका एक सांगचें उरलें, म्हुगे जावंयान मुरे मुग्या चेड्याक घर बानुच्या लेगीत आदार केला आनी म्हाका म्हुयन्या म्हुयन्या पयशे लेगीत धाट्टा.

हरी : ताका धाडपाक कितें जालां ? बोटीर आसता न्ही तो ?

तातो : आसूं आतां. तूं कित्याक जळटा ?

हरी : हांव कित्याक जळटलो ? जळटा तूं. तिचो जावंय हाडटा आनी तुजो जावंय हाडना म्हुणून.

मिरांडा : ये हॅरी, तुगे खोबोर हांव मुगे जावंयाक सांगो ? थिंगा बोटीर काम बी आसल्यार चोयतो तो तुका.

तातो : मिरांडा ताच्यो खोबऱ्यो पाड पडूं. ताच्यान कांयच जावपाचें ना. चल तूं भितर वच कितलींच कामां आसात.

हरी : कळ्ळें म्हाका. वता हांव. (हरी भितर वता.)

तातो : (मिरांडाक पळयत) ही साडी जुस्त लागता तुज्या आंगार आनी हीं कांकणां पळयल्यार अशें दिसता, जणू तुज्याच खातीर तयार केल्यांत.

मिरांडा : बोक्कार, थँक्यू आ. (हरी भितरल्यान पळयता) मुगे जांवयान म्हाका थोड्यो साडयो हाडलो नाय, दिसा एक नेसल्या लेगीत काबार जावचीनाय.

तातो : भाटकान्न न्ही तूं. तशेंच भोंवपाक जाय नेटान.

**मिरांडा :** सारखें तुगेलें. मोत्ता तेन्ना मोत्ता. आनी हेरे तुमगे मागी ते कितें जालें रे भाटाचें?

**तातो :** शू मोठ्यान उलयनाका. कोणाक खबर ना ही खबर, फक्त तुकाच सांगिल्लें हांवें.

**मिरांडा :** ओके. कोणाक सांगिना. इतू विस्वास हा म्हुजेर तुका?

**तातो :** तूंच सांग, बायले सांगतलो म्हटल्यार बायल काय ना. मागीर तुकाच बायल... (तोंडार हात धरता.)

**मिरांडा :** कितें?

**तातो :** बा बा ऽऽ भाटकान्न. तूं म्हजें फ्रेंड न्ही.

**मिरांडा :** आं आं गोमलें. बोक्कार तुगे चेडो शिकोता मुरे बोरोच्च्य.

**तातो :** शिकता. आतां कितें करता तो पळोवया. जांवंय एक बेकार लचाण आसा तो पुरो. चलोय घराकडेन बेकार उरल्यार मागीर आनीक नाका.

**मिरांडा :** बोक्कार तेशें चितचें न्हू रे. तुका खोबोर हा मुरे, मुगे घोवाको पयलीं काय पोयशे नासलोलें. मागीर इले इले कोन्न आमी गिरेस्त जालीं (घडयाळ पळयता) आवूश कितू वोगोत जालो रे बोक्कार, खोबरा टायम काय कोणा.

**तातो :** तुका कितें घराकडेन वचून काम करपाक जाय आनी मातशी बस आनी मागीर वच. तुजेकडेन उलोवपा म्हाका बरें दिसता.

**मिरांडा :** येशे मुगे फ्रेण फिलू मुका सदाच्च्य सांगिता आनी मुगे कातरांय सामकीं लायक तेका.

**तातो :** मिरांडा आतां म्हण एक कातार.

**मिरांडा :** ॲ. कितें बोक्कार. आतां एक म्हणलो न्हू रे.

**तातो :** आनीक एक म्हण तूं.

**मिरांडा :** मुगे घोव भायर पोडलो. तेदोना हायें एक sad कातार रोचोयल्लें तेंच मुट्टा.

तातो : म्हण, तुका जायतें म्हण.

मिरांडा : दोर्याच्या ल्हारारी, पुनवेच्या चान्न्यारी यो रे मोगा, चोय रे म्हाका मोगाचे दोळे लाय रे म्हाका (मिरांडा सेंटीमेंटल जाता. हात मुखार धरून चिंतीत उरता. तिच्या फाटल्यान तातो येता. तिका धरपाक आयल्या भशेन. मागीर titanic pose music, मिरांडा टर्न मारता, तातो सकयल पडटा, तातो आबूज जावन).

तातो : व्हा व्हा कास्ताद. इतलें बरें कातार हांवें केन्नाच आयकू ना. एकदम बरें.

मिरांडा : बोक्कार तुका खोबोर हां आज्य देकून मुगे सोपनां मुगे घोव डेली येता. तुगे घोरकान्न तुगे सोपना येयना?

तातो : ती म्हाका सोडून वयर गेल्ली तेन्नाच्यान एक दीस सुद्दा म्हज्या सपनांत आयलीना.

मिरांडा : बोक्कार भितरल्या भितर बायलेक बोरो सतायतालो काय कितें रे?

तातो : शी शी ना. तुकाच हो पळय हांव इतलो बरो करता, म्हज्या शांतीक हांव कितलो बरो करतालो तें चित तूं.

मिरांडा : सोजमोता म्हाका. ए बोक्कार चोल हांव चोल्लें. वोगोत जाता, म्हाका मीसा पावपा जाय.

तातो : आ आ बरें. पासय मार पाल्यां टायम मेळ्ळ्यार.

मिरांडा : हॅरी ओ हॅरी (दाराकडेन वता) (हरी भायर सरता) येता रे हांव मीसा वोसपा जाय.

हरी : यो यो येयत राव. तूं आयल्यार आमच्या तातोक उमेद जाता. (मिरांडा वता, तातो दाराकडेन वता आनी हात दाखयता.)

तातो : बरें, बरें, सारखी वच.

हरी : कुयट वचपाक गेली ना ती. हांगा शेजाराकूच आसा. फाल्यां येतली, नाजाल्यार तुंवूय वच मीसाक.

तातो : हरी दिसान दीस चड जायत आसा तुजें.

हरी : भितरल्यान सगळें आयकतालो हांव. मिरांडाक पळयतकीर तुका कॅरेक जावपाक वेळ लागना. आनी रोकडोच शेकरो फुलयता.

तातो : वगी राव. मेळत तसले आळ घालनाका म्हजेर.

हरी : प्रितम, तुजो स्वताचो चलो, तो बाबडो इतल्यो बऱ्यो बऱ्यो कविता बरयता त्यो आवडना तुका आनी त्या मिरांडाचें कातार तुका इतलें बरें दिसलें?

तातो : म्हाका आवडलें. खरेंच आवडलें.

हरी : प्रितमान कविता केल्यार तो रस्ताद आनी मिरांडान कातार केल्यार कास्ताद.

तातो : कविता बरोवन पोट भरता? तुजें बेश्टेंच भरता जायत.

हरी : पूण मिरांडाकडेन असली फटींगपणां उलोवपाची कसली गरज आसा तुका?

तातो : तुका कित्याक लागता रे तें? गड्ड्या.

हरी : तुका कितें दिसता? हांव पिसो? म्हाका कांयच समजना? सद्दां बोवाळ मारता मरे तूं, तुजी बायल तुज्या सपनांत येवन तुका सतयाता म्हूण आनी मिरांडाक वेगळ्योच काणयो करून सांगता. टॉयलेटीच्या सारखे तोंड आनी बरो रॉमेंटीक आनी जाता.

तातो : म्हणटकीर तुजें सगळें लक्ष म्हजेरूच आशिल्लें तर. तूं भितर काम करना आशिल्लो. कामचोर खंयचो.

हरी : तूं म्हाका तिच्या मुखार गड्डो थारावपाचो यत्न करता. हांव

कामाक वचना म्हुणून. तू आनी ती, दोगांय गेलीं तेल लायत.

तातो : तुका कितलेंय सांगल्यार तूं कितें कामाक वचपाचो आसा तर. गड्डो तो गड्डोच तूं.

हरी : तातो, तूं त्या मिरांडाचेर लायन मारता म्हुणून म्हाका खबर आसा. पूण हांव ही गजाल परीक सांगना, ताका वायट दिसत म्हुणून. पूण आज तुवें सगळ्यो शिमो हुपल्यो. Titanic Pose! हांवें सुद्दां केन्नाय घेवूंक ना. आनी ह्या जाण्टेपणान तुका रोमान्स येवजता ?

तातो : जाळ पडले तुका ?

हरी : म्हाका कित्याक जाळ पडटले ? त्या मिराडांक बाबडेक कांयच खबर ना. तुजो पाडो हेतू. पूण तीवूय मातशी कॅरेकूच बायल. तिका सांगल्यार ती फाल्यांच्यान आमगेर येवचीना आनी अशें जाल्यार तुका चड टायम मेळटलो म्हजी तकली खावपाक. आनी तेचखातीर हांव तिका सांगपाक शकना.

तातो : परतून सांगता तुका असले आळ म्हजेर घालनाका.

हरी : ह्यो सगळ्यो गजाली सोड, पूण तातो म्हाका एक सांग, ती मिरांडा भाटाविशीं कितें उलयताली ?

तातो : (आबूज जावन) कांय ना. कांय ना.

हरी : तिणें भाटाचें नांव काडटकीर तुवें तिका वोगी रावपाक सांगलें.

तातो : हरी, तूं घरजांवय हें विसरनाका. आनी पूत जावपाचो यत्न करूं नाका. हांव सगळें बऱ्याखातीर करता. (तो भितर वता)

हरी : तातो तूं म्हाका सांग नाका. पूण हांव ह्या गजालीचो पत्तो लायल्या शिवाय कसोच थंड बसचोना.
(माचयेर काळोख.)

(प्रवेश तिसरो सोंपता.)




## प्रवेश चवथो

(माचयेर प्रितम पदां आयकत बसला. परी येता आनी सीडी बंद करता.)

हरी : प्रितम एक्जाम केन्ना तुजी?

प्रितम : अजून दोन म्हयने आसात.

परी : अभ्यास करता न्ही तूं.

प्रितम : तुंवूय तातो सारखेंच बेजार हाडनाका गो म्हाका. ताच्योय फक्त अभ्यासाच्योच खबऱ्यो. हांव कितें कुकुलो भुरगो? सद्दां हेंच सांगपाक. करता हांव अभ्यास.

परी : हरी सारखो रोकडोच फुरफुरपाक शिकला मरे तूं.

प्रितम : फुडल्या आठवड्याक आमच्या कॉलेजींत All Goa Inter Collegiate कवितांची सर्त आसा.

परी : मागीर?

प्रितम : मागीर आनी कितें? हांव तातूंत पार्टीसिपेट जातलो.

परी : असल्या जंजाळान पडून तुज्या भावोजीच्या सारखो घरजावंय जावपाचो चितला काय कितें?

प्रितम : तुका आनी तातोक मगो, म्हज्या टॅलेंटाक वाव दिवपाक कळना. ह्या घराक म्हाका समजता तो फक्त भावोजी.

परी : भावोजीचो बरो पुळको आयला मरे तुका.

प्रितम : म्हजो भावोजी आसाच तसो गुणाचो.

परी : (हांसत) आसूं, म्हाका सांगलां तें सांगलां, तातोक सांग नाका.

प्रितम : हांव तुका म्हजी कविता वाचून दाखोवं? तुका खंयची आवडटा ती सांग. मागीर म्हाका सर्तीक कविता सिलेक्ट

करपाक बरें जातलें.

परी : प्लीज म्हाका तुज्यो त्यो कविता आयकूंक मात्तूय इंट्रेस्ट ना.

प्रितम : बरें. हांव भावोजीक वाचून दाखयता.

परी : बरें. ताकाच दाखय.

प्रितम : भावोजी ए भावोजी. (हरी भितरल्यान)

हरी : कितें जालें प्रितम ?

प्रितम : भावोजी मातसो भायर यो. (हरी भायर येता. ताच्या हातान सुरी आसा).

हरी : कितें जालें ?

प्रितम : (हांसता) सुरी घेवन आपोवना तुका हांवें.

हरी : तुका फकाणां करपाक कितें जालां ? हांव भाजी कापतालो.

प्रितम : (ताच्या हातांतली सुरी कुशीक दवरता) मागीर काप भाजी.

हरी : आनी आतां कितें कर म्हणटा ?

प्रितम : आतां म्हज्यो कविता आयक.

हरी : (तकलेर हात मारता) आता ?

प्रितम : हय आता. फुडल्या आठवड्याक हांव कवितांच्या कंपिटिशनांत भाग घेवपाचो आसा. म्हाका कविता सिलेक्ट करपाक मदत कर.

हरी : हांव ?

परी : ताका तुजेर विश्वास आसा न्ही. आयक आनी सांग ताका, खंयची बरी आसा ती.

हरी : जावू रे बाबा, प्रितम, तुका तरी म्हजेर विश्वास आसा. म्हजे स्वताचे बायलेक म्हजेर विश्वास ना, पूण तुका आसा.

परी : विश्वास दवरपा लायकीचें आजून मेरेन एक तरी काम केलां ?

हरी : हय. वचन दिलां त्याप्रमाण हांव तुज्याकडेन लग्न जालो.

प्रितम : ये वोगी रावात गो. तें तुमी मागीर पळोवन घेयात. भावोजी आतां म्हुणू हांव म्हजी कविता?

हरी : (स्वगत) कोणाकूय तकली फोडून घेवपाक जाय जाल्यार हो एक उपाय आसा. (उगड) म्हण, म्हण आतां तुजी कविता.

प्रितम : म्हणता, **तुज्या शब्दान, म्हजे शब्द घुस्पल्यात, आनी म्हज्या शब्दान तुजे शब्द. घुस्पल्ले शब्द वाट सोदतात, पूण परत घुस्पतात शब्दांभितर. अर्थ सोदपाक शब्दांक, शब्दच कमी पडटात, निमणे शब्दच निशब्द जावन उरतात.**

हरी : आवय आवय, हांव बाबा सामकोच घुस्पलो, ह्या तुज्या शब्दांनी. आनी म्हाका अशें दिसता, ह्या तुज्या कवितेंत सगळेच घुस्पतले, दुसरी खंयचीय म्हण.

प्रितम : भावोजी, ही आवडलीना?

हरी : आवडुपाचें सोड. पयलीं समजूपाक तरी जाय न्ही.

प्रितम : बरें दुसरी वाचून दाखयता.

हरी : दाखयताच म्हणटा. दाखय (तोंड वांकडें करता)

प्रितम : **अजून नेण्टीच आसा आयची रात आनी अजून पेटतूच आसा देवाऱ्यान देवाची वात. आंगणभर आज म्हज्या चान्न्याचो शितोडो, मधुर गीत गायत आसा पळय रातीचो किडो. सवर्णीं न्हिदलीं, कावळे न्हिदले, न्हिदलो लोक सगळो, पूण हांव अजून जागोच, जावन जगावेगळो.**

हरी : (स्वगत) तूं बाबा खरोच जगावेगळो.

प्रितम : भावोजी, आवडली म्हजी कविता?

हरी : हय आवडली. बरी आसा.

**प्रितम** : आनी तुका गो परी?

**परी** : बरी आसा.

**प्रितम** : आनी दोन म्हज्यो कविता बऱ्यो आसात. त्योवूय वाचून दाखयता तुमकां.

**हरी** : (प्रितमाक थांबयत) आरे बाबा, सगळ्यो कविता आजच काबार करता. फाल्यांकूय दोन दवर. (स्वगत) न्हिदपाचो डोस म्हणटात तो असो एक बरोबर दिनात.

**प्रितम** : बरें, उरिल्ल्यो तुमकां हांव फाल्यां वाचून दाखयता. भावोजी, आतां तूं गेल्यार जाता भाजी कापपाक. आनी हांव वता अभ्यास करपाक. (प्रितम बेडरूमांत वता.)

(हरी किचनांत वचपाक परतता इतल्यान थंय अजू येता.)

**अजू** : हरीश ये हरी...

**हरी** : आरे अजू यो.

**अजू** : परी कशें आसा?

**परी** : हांव आसा बरें. भाभी बरी आसा न्ही?

**अजू** : आसा बरें. हांव तुमकां एक गूड न्यूज घेवन आयला.

**परी** : लॉटरी लागल्या काय कितें रे?

**अजू** : हय लॉटरी लागल्या. (हरीक धरता) हरी, हरी, आज हांव खूब उमेदीत आसा. हांव बापूय जावपाचो आसा.

**हरी** : खरेंच. कॉंग्रुच्युलेशन्स!

**परी** : भाई, इतले बेगीन? अजून तर तुमच्या लग्नाक दोन वर्सां सुद्दां जावनात.

**अजू** : जाल्यार कितें जालें परी? आमकां दोगांकूय भुरगें जाय आशिल्लें आनी आमी दोगांय खूब अमेदीत आसात.

**हरी** : अजू, खरेंच, आज तुवें सामकी बरी खबर दिली.

परी : आतां भाभी कामाक वचपाची ना तर?

अजू : ना. अजिबात ना. ताका हांवें सांगलां काम सोड म्हुणून.

परी : म्हणतकीर तिणें आपलें करीयर व्हगडावपाचें?

अजू : कित्याक व्हगडावपाचें? भुरगें व्हड जालें म्हणटकीर दुसरेकडेन परत खंयीय अप्लाय करपाचें. तातो खंय गेला, आज ताचो बोवाळ ना सो.

हरी : मिसाक बी गेला दिसता मिरांडाबरोबर.

परी : हरी मातसो वगी राव. तो कोणाक मेळपाक गेला. ताच्या हातांत पिशव्यो आशिल्ल्यो.

हरी : कोणाक मेळपाक गेला तर तो?

परी : हांवें विचारल्यार म्हाका सांगूना.

अजू : तो आसल्यार घरांत मातसो बोवाळ आसता. सगळ्यांक कितें ना कितें म्हणत आसता.

परी : भाई, ताणें कितेंय म्हटल्यार मनाक लावन घेनाका.

अजू : ना गो, ताचें कोण घेवन बसता.

परी : ताचें आतां जाण्टेंपण न्ही, तो कितें उलयता, कितें करता तें ताकाच शबर आसना.

हरी : आतां खंय गेला, थंयच्यान परत येतलो मुगो?

परी : म्हटल्यार?

हरी : म्हटल्यार तूंच म्हण्टा न्ही तो कितें करता आनी कितें उलयता तें ताकाच खबर आसना म्हुणून. मिरांडागे बी पावत.

परी : हरी तूं बेश्टोच कित्याय कितें उलयनाका.

अजू : परी आसूं आतां. हरीश ते पेपर दिता न्ही तूं म्हजेकडेन?

हरी : हय हय दिता (हरी रुमान वचून लखाटो हाडटा).

परी : कसले पेपर?

| | | |
|---|---|---|
| **अजू** | : | ताकाच विचार. (हरी येता) |
| **हरी** | : | घे (अजूकडेन दिता.) |
| **अजू** | : | बरें येता हांव. मागीर फोन करता तुका. |
| **परी** | : | हरीश कसले पेपर ते? |
| **हरी** | : | अजून म्हज्याकडेन दवरपाक दिल्ले ते. अजू आज सामको उमेदीर आसा न्ही? |
| **परी** | : | हूं. |
| **हरी** | : | आमच्या लग्नाक चार वर्सां जालीं न्ही परी? |
| **परी** | : | जालीं आसतली. |
| **हरी** | : | पूण अजून ना. |
| **परी** | : | कितें ना? |
| **हरी** | : | पाळणें. |
| **परी** | : | अरे, आतां तूं पाळण्यांत न्हिदपाचें चित्ता? |
| **हरी** | : | हांव न्ही, तुज्या बापायक न्हिदोवपाक चित्ता पाळण्यांत. |
| **परी** | : | कित्याक म्हुणून तूं असो तातोच्या फाटल्यान लागला? |
| **हरी** | : | मागीर तूं कित्याय कितें कित्याक उलयता. हांव आमच्या भुरग्याचें पाळणें म्हणटा. |
| **परी** | : | भुरगीं अजून जावचींच आसात आनी तूं पाळणें बांदपाक लागलो. |
| **हरी** | : | अजून पळय दोनच वर्सांनी पाळणें बांदलें आनी हांवें चारूय वर्सांनी पाळणें बांदपाचें चिंतल्यार पाप. |
| **परी** | : | जालें? जालें सुरू तुजें. |
| **हरी** | : | परी, म्हाकाय भुरगीं जाय. |
| **परी** | : | हरी, तुका हांवें कितले खेप सांगलें, म्हाका इतले बेगीन भुरगीं नाकात म्हुणून. म्हाका म्हजें figure maintain करपाक जाय. |

हरी : तुजे आवयनूय अशें चितिल्लें जाल्यार तूं जल्माकूच येना आशिल्लें.

परी : तूं गड्डो तो गड्डोच उरतलो. त्या तेंपार फिगरा बद्दल कोण चित्तालो. अरे सांगपाचें म्हटल्यार म्हाका भुरग्यांच्या जंजाळांत पडपाक नाका. कितल्यो जबाबदाऱ्यो आसतात.

हरी : पूण केन्ना ना केन्ना तुका ही जबाबदारी घेवचीच पडटली. जाल्यार आता कित्याक ना?

परी : प्लीज टॉपीक चेंज कर.

हरी : तुज्यान जबाबदारी पेलपाक जायना जाल्यार हांव ताका पाळटलो.

परी : हरी, तूं असो बेकार. भुरगीं जालींच म्हुणून जायनात. तांकां सगळ्यो फॅसिलिटीस दिवन व्हड करता म्हटल्यार थोडो पयसो जाय.

हरी : तुजें आनी कांयच ना. पयसो पयसो. अगो रस्त्यार भीक मागतात तीं सुध्दा आपल्या भुरग्यांक पोसतात. कितें पयशांचें घेवन बसलां तूं?

परी : तुज्यान काय दोन पयशे कमोवपाक जायनात. मागीर कित्याक उलयता तूं?

हरी : म्हज्या भुरग्याक पोसपाक हांव म्हज्या जिवाचें रान लेगीत करपाक शकता. तूं फक्त... (परी मदींच उलयता)

परी : हरीश, एक दीस आयताराक घराकडेन उरता हांव. प्लीज तुजें रडगाणें बंद कर.

हरी : (परीच्या फुड्यान वता आनी ताचो हात धरता) परी हांव तुजें सगळें मुकाट्यान आयकून घेता. मागीर म्हजी ही एकच गजाल तुज्यान आयकूंक जायना.

**परी** : हरी तूं म्हजो शाणो मरे. तूं समजून घे न्ही म्हाका.

**हरी** : ना. हांव शाणो न्ही.

**परी** : बरें तूं म्हजो पिसो.

**हरी** : हय. हांव पिसो आनी तूं म्हाका आनीक पिसो करता.

**परी** : ना रे. तुका खबर आसा, नान नीन प्रीत सत्येनू. कशें कळना तुका?

**हरी** : कितें? हें आनीक खंयचे भाशेन उलयता तूं? म्हटल्यार?

**परी** : म्हटल्यार हांव तुजेर मोग करता. आमच्या ऑफिसान एकटें सान्न मारपाक येता, ताणें शिकयलें म्हाका हें, कन्नड भाशेंत म्हणपाक.

**हरी** : हांवूय तुजेर मोग करता आनी, आनी म्हाका दुसऱ्या भशेन सांगपाक कळना. (परीच्या फुड्यान वता आनी परीचो हात धरता. दोगांय पदांच्या तालार नाचूंक लागतात. मागीर हळूच परी ताचो हात सोडटा).

**परी** : ये पुरो, हांवें आज ऑफिसांतलें काम हाडलां. म्हाका कंप्लीट करपाक जाय (तें भितर वता, हरी ताका आपयता)

**हरी** : परी परी... हाचे बाये घोव व्हरून. लास्टाक म्हाका उतरांनी घुस्पोवन सोडटा. चला बाबा हरी, कापा भाजी घेवून सुरी. (माचयेर काळोख)

(प्रवेश चवथो सोंपता.)

# प्रवेश पाचवो

(तातो माचयेर भितर सरता.)

**तातो** : प्रितम ये प्रितम तुका हांवें सामान हाडपाक लायिल्लें तें हाडलें.

(प्रितम भायर येता.)

**प्रितम** : हय भितर दवरलां. तातो कोण येवपाचो आसा रे.

**तातो** : सोयरो.

**प्रितम** : कोण सोयरो. नांव ना ताका.

**तातो** : नांव आसा. तुका सांगून कितें जावपाचें आसा, कविराजाक! आनी तो बेकार लवडी तुजो भावोजी सद्दां सकाळफुडें खंय वता.

**प्रितम** : म्हाका खबर ना. सकाळ सकाळ फुडें भायर सरून वता तो. सेगीत स दीस जाले.

**तातो** : हांवें विचारल्यार म्हाका कांय सांगना.

**प्रितम** : तूं खंय वता तो ताका सांगून वता. मागीर तो कित्याक तुका सांगतलो.

**तातो** : आब्बा. बरो उलयता मरे तूं. अशें उलोवपाक तुका तुज्या भावोजीन शिकयला काय कितें.

**प्रितम** : प्रत्येक भुरगो बऱ्यो वायट गजाली आपल्या बापाय कडल्यान शिकता. आनी अशें उलोवपाक हांव म्हज्या परमपूज्य बापायकडल्यान म्हटल्यार तुजेच कडल्यान शिकला.

**तातो** : दिसता तितलो वाचिंदळ ना मुरे तूं. तकली चलता तर तुजी. आज मातसो घराकडेन राव.

**प्रितम** : घराकडेन रावू. चली बी पळोवपाक येवपाची आसा काय

किते म्हाका.

**तातो** : तोंड पळय हारशांत. खंयच्या मुर्ताचेर जल्माक आयिल्लो म्हुणून कोण जाणां. एक एकदां म्हाका दुबावूच येता हॉस्पिटलांत तुका चेंज केला सो दिसता.

**प्रितम** : आनी म्हाका आतां शक्य आशिल्लें जाल्यार हांव बापूय चेंज करून दुसरोच बापूय करता आशिल्लो.

**तातो** : एक सांगू तुका, करोडांनी पयशे दिता लेगीत म्हटलें आनी तुका घे म्हटलें न्ही जाल्यार लेगीत तुका कोण घेवचोना.

**प्रितम** : तुजे हे असलें आयकुचें पडटा म्हुणून भावोजी भायर सरून वता दिसता.

**तातो** : खंय वतलो. निमणो हांगाच येवपाचो.

**प्रितम** : पूण आतां तूं म्हाका कित्याक राव म्हणटा. म्हाका कॉलेजीक वचपाक नाका.

**तातो** : हरशीं म्हुणून कॉलेजीन वचून उजवाड घालता तूं. एक दीस वचनासतना रावल्यार कांय जायना.

**प्रितम** : बरें रावता.

**तातो** : आनीक एक गजाल सांगता तुका हांगा जें किते घडटलें तें तुज्या भावोजीक सांगनाका.

**प्रितम** : बॉम्ब बी घालपाचो प्लॅन करता काय किते रे.

**तातो** : हय बॉम्बच म्हुणून समज. चल भितर वच आतां. आपयता तेन्ना यो. (प्रितम भितर वचपाक लागता) आनी पळय ते म्हणसर अभ्यास केल्यारर जाता. (प्रितम भितर वता, तातो सगळें सारखें केल्ल्या भशेन करता आनी आपल्या बायलेच्या फोटवा फुड्यांत वचून उलयता) शांते ये शांते तुज्या घोवाक हें बरें काम करपाक आशिर्वाद दी.

(इतल्यान भायल्यान विकास येता).

**विकास**: तातो ये तातो.

**तातो** : यो यो विकास, तुजीच वाट पळयतालो. रामनाथ बरो आसा मरे.

**विकास**: हय हय. रामनाथूय बरो आसा आनी रामनाथाली बायल म्हणजे म्हजी मम्मी तिवूय बरी आसा.

**तातो** : (हांसता) त्या दिसा तूं गडबडीन आशिल्लो न्ही म्हुणून तुज्याकडे चड वेळ उलोवपाक मेळ्ना. रामनाथाकडेन उलोवन हांव भायर सरलो.

**विकास**: हय. म्हजो शेडूल सामको बिजी आसता. सद्याक हांवें म्हजो सगळो टायम आनी सगळें लक्ष ह्या प्रोजेक्टाचेर घातलां.

**तातो** : एकदम बरें केलें आनी तुजो रावपाचो बंदोबस्त कसो केला तुवें. काय हांव करूं.

**विकास**: ना ना. हांव हॉटेलांन रावपाचो. म्हज्याखातीर तुमकां बेश्टे त्रास नाकात.

**तातो** : त्रास आनी कसले. कितें घेतलो तूं च्या काय कॉफी.

**विकास**: कॉफी.

**तातो** : प्रितम ये प्रितम. (प्रितम भायर येता.) हो म्हजो चलो प्रितम.

**विकास**: हाय. आय एम विकास.

**प्रितम** : हॅलो. (प्रितम विकासाक हात दिवपाक वता पूण तो हात दिना.)

**तातो** : प्रितम (प्रितमाचो हात धरता आनी ताका कुशीक व्हरून कॉफी कर म्हुणून सांगता) (प्रितम रागान भितर वता).

**विकास**: तातो, कितें करता हो तुमचो चलो प्रितम.

**तातो** : पंदरावेक आसा तो. आनी मोठो कवी तो. कितलींशींच

पुस्तकां छापून आयल्यांत ताचीं. (दोळे घुंवडायतात).

**विकास** : आ अशें. प्रितम एकटोच.

**तातो** : ना. ताका भयण आसा, परिणीता. म्हजें परी. सद्या कामाक गेलां तें.

**विकास** : परिणीता. व्वा नांव खूब सुंदर दवरला तुमी.

**तातो** : आनी म्हजें परी दिसताय सुंदर. (विकास अजाप नदरेन पळयत आसा) कितें चित्ता. प्रितम असो आनी परी सुंदर कशें काय म्हुणून. तूं चड तकलेर पेज दिनाका. तशेंच तें. म्हाकाच समजलेना तुका आनी कशें कळटलें.

**विकास** : आतां आमी कामाचें उलोवया न्ही.

**तातो** : हय हय. प्रितम ये प्रितम (प्रितम कॉफी हाडटा) घे कॉफी घे.

**विकास** : घेता. (विकास कॉफी पिवपाक लागता) प्रितम, असोच पुस्तकां बरयत राव.

**प्रितम** : पुस्तकां ?

**तातो** : (दोळे मारता) अजाप कितें जाता. कवितांचीं पुस्तकां म्हणटा तो.

**प्रितम** : (चूक चूक करता) (स्वगत) सुदारपारना. (उघड) आ आ.

**तातो** : चल भितर वचून ती पिशवी हाड. (प्रितम भितर वचून पिशवी हाडटा, विकास च्याचें कप दवरता, प्रितम तें घेवन भितर दवरता.) घे प्लान पळय. (विकास तो प्लान उगडटा).

**विकास** : तातो पेन्सील दी. (तातो ताका पेन्सील दिता) तातो पट्टी दी.

**तातो** : घे पळोवया, हें सगळें सामान घे. (तातो  सगळें सामान दिता.)

**प्रितम** : (खूण करून तातोक आपयता) कसलो विकास करपाक

आयला हो विकास हांगा.

**तातो** : चड हुशार जावपाक पळयनाका. कितें चल्लां तें वगी रावन पळय.

**विकास** : तातो, हांगा यो मातसो हें पळय.

**तातो** : हांव आनी कितें पळोवं. तूं कितें करता तें फायनल.

**विकास** : तातो असो परक्या मनशाचेर चड विश्वास दवरनाका.

**तातो** : तूं आनी परकी. हांव तुका म्हज्याच चल्याभशेन समजता. जसो म्हाका प्रितम तसो म्हाका तूं.

**विकास** : पूण तातो, म्हाका कविता मात बरोवपाक कळनात.

**तातो** : (हांसता) पूण तुका कळटा, तें कोणाक कळना. इतल्या ल्हानपणांतूच तुवें तुज्या पप्पाचो धंदो, खूब वयर पावयला.

**विकास** : तुमी कित्याक भिल्यात. तुमचोय धंदो असोच वयर पावयतलो हांव.

**तातो** : हय हय पावय तुका जाय तितलो वयर पावय.

**प्रितम** : पूण इतलोय वयर पावयनाका की आमकां दिश्टीच पडचोना. पूण तातो ते सोड, धंदो कसलो.

**विकास** : तुका खबर ना. तातोन सांगूंक ना तुका.

**प्रितम** : ना. कसलो.

**विकास** : लँड डेवेलोपमेंट.

**प्रितम** : म्हटल्यार जमनीचो विकास.

**विकास** : सारखो वळखलो तूं, जमनीचो विकास. विकास सगळो विकास. तातो तूं फक्त पळयतूच राव. कसो कसो विकास करता तो.

**प्रितम** : पूण एकजेटली कितें करपाच आसा तर तूं.

**विकास** : तूं तुजी तकली आनी एनर्जी हें चिंतपाक चड वेस्ट करनाका.

कविता रच आनी पुस्तकां बरय. तुका तेंच काम बरें. तातो तुका खबर आसा? पप्पाचो हो धंदो पंचवीसांतल्यान शंबराचेर हांवें पावयला.

**तातो** : हांव देवाकडेन मागता म्हज्याय चल्याक देवान अशीच बुध्दी दिल्यार पुरो.

**विकास** : पूण ताका विचारात पयलीं ताका कविता बरोवपाचो सोडून, धंदो करपाक टायम आसा काय म्हुणून. कवी न्ही तो पुस्तकां बरयल्या न्ही ताणें.

**तातो** : पुस्तकां? (अजापीत जावन).

**विकास** : अरे तुमीच तर वदळ सांगताले, प्रितमान पुस्तकां बरयल्यांत म्हुणून.

**तातो** : आ. आ. आ. हय हय. बरयल्या ताणें पुस्तकां. (जिबली भायर काडटा)

**विकास** : प्रितम, जाय तितलीं पुस्तकां बरय. फायनान्स तुका हांव करता. तातो हांव वचूं न्ही थंय.

**तातो** : हय तुजी सगळी चित्रां बीं काडून जालीं.

**विकास** : तातो, ताका मार्कींग म्हणटात. म्हटल्यारूच खुणो म्हणटात. म्हजें सगळें काम जालें.

**तातो** : बरें या न्ही आतां आमी थंय.

**विकास** : तुमी आनी कित्याक त्रास घेतात. म्हाका समजतलें थंय वचपाक.

**विकास** : प्रितम बरें. मेळूया परत. कविता करपाक सोडनाका. येता तातो.

**तातो** : सांबाळून वच.

**विकास** : (वचपाक लागता) बरें आज सगळें पळयता आनी फाल्यां

मागीर आमी फुडल्या कामाक लागया.

तातो : बरें. (विकास वता.)

प्रितम : तातो हो विकास खरोच विकास करतलो.

तातो : तो कितलो हुशार तें खबर आसा तुका आनी तुज्यासारख्यो कविता रचयल्यो म्हुणून मनीस हुशार जावपाक पावना.

प्रितम : हांवें कितलींशींच पुस्तकां बरयल्यां अशी फट मारपाची कसली गरज आशिल्ली.

तातो : मागीर कितें. सामकोच नालायक म्हुणून सांगपाचें. कांय चार आण्यांचो कवी म्हुणून सांगपाचें.

प्रितम : हरशीं म्हज्या कवितांची नसाय तुका. विकासाक कांयच सांगपाची गरजूच नाशिल्ली.

तातो : आतां म्हाका मात्तूय दुबाव ना की तूं तुज्या भावोजीच्या पावलार पावल दीवन चलता.

प्रितम : म्हजो भावोजी तुज्यासारको फटींगूय उलयना आनी बढायोय सांगना.

तातो : बढायो. तोच मनीस सांगपाक शकता जाची कितेंय तरी येणावळ आसा. तुज्या भावोजी असलो लाचार आनी बेकार मनीस न्ही.

प्रितम : म्हजो भावोजी सामको सादो-भोळो, गरीब. ताचो फायदो घेतात तुमी. तातो एक विसरनाका. केन्नाय कोणाच्या लाचारीचो आनी गरीबीचो फायदो घेवपाक जायना.

तातो : आवय देवा, तूं सामको बॅरीस्टर जाल्या सारखो उलयता. आनी अशें उलोवन पोट भरना. पोट भरपाखातीर पयशे लागतात.

प्रितम : आपलीं मनशां सोडून लोकांचो पुळको तुका चड येता. आनी

घरांतल्या मनशांपरस भायल्या मनशांचेर चड विश्वास आसा.

**तातो** : ये वाचिंदळ, तोंड बंद कर. दोन पुस्तकां शिकलो म्हुणून म्हाका दुनयादारी शिकोवनाका.

**प्रितम** : हांगाच तूं चुकता. तातो तुका दिसता तुका सगळें कळटा म्हुणून आनी बाकीचीं सगळीं बोडी म्हुणून.

**तातो** : हें पळय कविराज प्रितमबाब बोरकार, तुज्याकडल्यान हें आयकून घेवपाक तूं म्हजो बापूय न्ही तर हांव तुजो बापूय.

**प्रितम** : हाचेंच तर चड दुख्ख जाता म्हाका की तूं म्हजो बापूय. कर तुका जाय तें कर. गळोय तुजो आनी सुरीय तुजीच. तुका जाय तसो काप. (प्रितम भायर वता.)

**तातो** : हो बांगडू कितें सांगतलो म्हाका. पळयातूच तुमी राजाय हांव, सिंहासनूय म्हजेंच आनी मुकूटूय म्हजेंच. (हांसता) (माचयेर काळोख)

**(अंक पयलो सोंपता.)**

# अंक दुसरो

## प्रवेश पयलो

(माचयेर कोण ना, इतल्यान परी येता.)

**परी** : हरीश ये हरी (हरी दाराकडेन येता) च्या हाड. (परी बसता) (हरी भितर वता. इतल्यान मिरांडा येता)

**मिरांडा** : बोक्कार ओ बोक्कार, बोक्कार रे (इतल्यान हरी च्या घेवन येता).

**हरी** : यो यो मिरांडा आण्टी (च्या परीमुखार दवरता) आण्टी तुकाय थोडी च्या हाडटा.

**मिरांडा** : नाका. हांव आतांच पिवून येयल्या. पोरी आज्य बेगीन पावले.

**परी** : ना. आत्ता पावलां. यो बस. (मिरांडा बसता)

**मिरांडा** : बोक्कार खूंय हा.

**परी** : तातो खंय गेला हरी?

**मिरांडा** : भाटान गेला दिसता.

**मिरांडा** : बोक्कार आसल्यार तुमच्या घोरां बोवाळ आसोता!

**परी** : सारखे तुजें मिरांडा आण्टी. तातो भुरग्याबशेन दिसभर धुमाकूळ घालता.

**मिरांडा** : आमगे घोराको आनी मुगे नात्रां दिसभर बोवाळ मारीत आसताय. पोरि तूं बोक्कारा गॅण्डपा केन्ना कोत्ता गो. कितें मुट्टा हॅरी.

**हरी** : हांव सदांच रेडी, तुज्या बोक्काराक ग्रेडपा करपाक.

**परी** : तूं सगळें करपाक रेडी. मिरांडा आण्टी म्हाका इतले बेगीन

भुरगीं नाकात.

**मिरांडा** : शी. तेशें मुण्णाय. पूण हॅरी जाय मुट्टा मुगो.

**परी** : ताका चितप आसा. काडली जीब लायली ताळ्याक.

**हरी** : आसूं मिरांडा आण्टी. तूं आनी ताका भुरग्यांविशीं कांय विचारनाका. तें विचारतकच ताच्या भितरली कयकयी जागी जाता.

**परी** : कैकयी जावन इतलो तेंप तुका वनवासाक बरें धाडूंक ना.

**हरी** : चार वर्सां जालीं, वनवासूच भोगता हांव.

**मिरांडा** : कितें मुट्टाय तुमी हॅरी. म्हाका कांय सोजमोना येशें. शी हो बोक्कार केदोना येवपा रे.

**परी** : तातो बाबडो थंय काम करता दिसता आनी हाका पडुनूच वचूना. चल, तातो खंय पावला तो पळोवन तरी यो. तिनसांज जावपाक आयली.

**हरी** : आण्टी भाटांतल्यान येवन, तातो तुका सोदपाक तुमगेर बी पावूंक ना मगे. (तातो येता)

**तातो** : हरी ये हरी (मिरांडाक पळोवन खूश जाता.)

**हरी** : (स्वगत) नाम घेता सैतान हाजीर.

**तातो** : मिरांडा तूं हांगा पावली, हांव तुका सोदपाक तुमगेर गेल्लो.

**मिरांडा** : आनी हांव चोय तुमगेर पाविलां.

**हरी** : तातो हांव आतां तुकाच सोदपाक येवपाचो आशिल्लो.

**तातो** : मळार फातर घालपाचें काम चालू आसा तें खबर ना तुका. विकासाचे मानाय आत्ता गेल्यात आनी ते गेल्यात आनी हांव आयला.

**हरी** : म्हाका कशें कळटलें मळार कसलें काम चल्लां तें. तुवें म्हाका कांयच सांगुकूच ना.

**तातो** : आं आं बरें.

**परी** : तातो चड तकालस करून घेनाका. आतां तुजें वय जालां.

**हरी** : वय जालां. तूं आनी कितें उलयता. तुजो तातो अजून तन्नोच आा. (स्वगत) बेश्टोच तो आतां मिरांडागेर वचून आयलोना.

**मिरांडा** : हॅरी, हें मात सामकें खरें उलयलो तूं. बोक्कार अजून भुरगो दिसोता.

**तातो** : खऱ्यांनीच तुका हांव भुरगो सो दिसता.

**मिरांडा** : सारको हॅण्डसम. खोऱ्यांनी सांगो. तूं आनी हॅरी दोगांय सासमाव आनी जावंय येशे दिसोनात. दोगांय बाराबोरचे फ्रेंड येशे दिसताय.

**तातो** : (विचारान पडटा. हांसता) म्हणटकीर हरी तुका जाण्टो सो दिसता.

**हरी** : दिसभर काम करतकीर मनीस तन्नो कसो दिसतलो. तातोक सगळें आयतें मेळटा. त्याचखातीर तो असो बटाटासारको आसा.

**तातो** : हय. आनी तुज्या ताळ्यार कांयच पडना भेण्याच्या.

**मिरांडा** : बोक्कार आस रे. मुगे जांवयान तुगे खोबोर घेयल्या. तुका सांग म्हूण सांगतालो.

**तातो** : तुजो जांवय तो म्हजो जांवय.

**मिरांडा** : आनी तुगे जांवय तो मुगे जांवय.

**तातो** : तुजी चली ती म्हजी चली.

**मिरांडा** : आनी तुगे चेडूं तें मुगे चेडूं.

**तातो** : तुजो चलो तो म्हजो चलो.

**मिरांडा** : आनी तुजे चेडो ते मुगे चेडो.

**तातो** : आनी तुगे सून ती म्हजी सून.



मिरांडा : आनी तुगे सून जातली ती मुगेलीय सून.

तातो : तुजें घर तें म्हजें घर.

मिरांडा : आनी तुगे घर तें मुगे घर. नाना ना ना. बोक्कार तेशें कॅशें जातलें. तुगे घोर तें मुगे घोर कॅशेंच जावचीना.

तातो : तूं मान नाजाल्यार मान्नाका. हांव जाल्यार मानता.

हरी : (स्वगत) तरी तुजो बॅडरूम तो म्हजो बॅडरूम बरो म्हुणू ना.

मिरांडा : बोक्कार आतां बेगीनू ग्रेण्डपा जा.

तातो : कोण जा?

मिरांडा : ग्रेण्डपा रे. शापाय. तुगे नातरां तीं मुगे नातरां कोरपा नाकाय.

हरी : (हांसता) (स्वगत) देवा, अशे सगळ्या कॅरकांक म्हज्याय फुड्यान धाडपाक जाय आशिल्ले. (उगड) सारखें. तातो तुज्या वांगडचे सगळे जाण आजे जावून भोंवतात.

तातो : ह.. आनी तुज्यावांगडचे सगळे जाण बरे कामाक वचून बायल भुरग्यांक पोसतात. मिरांडा हो म्हजो जावंय कामाचो न्ही, एकदम बोंडो. कितेंय धंदो सुद्दा करपाक जायना ताच्यान.

परी : सारखो उलयलो तूं तातो. नाजाल्यार त्या विकासाक पळय रे, तो तुज्याच वयाचो आसतलो. कितलो हुशार. कितलो हॅण्डसम.

हरी : तूं केन्ना मेळ्ळें तर ताका.

परी : तो म्हाका मेळपाक म्हज्या ऑफिसान आयिल्लो तातोबरोबर. मागीर आमी च्या पिवपाक गेलीं. ताचे विचार फकत धंद्याचे. धंदो कसो वाडोवपाचो ते.

हरी : पूण म्हाका एक समजना, तो तुका कित्याक मेळूंक आयिल्लो.

तातो : तें तुका नाका. आपूण कामाक वतलो, दोन पयशे कमयतलो, हो विचार सोडून बाकीच्यो सगळ्यो जगावेल्यो चवकश्यो

लागतात तुका.

**हरी** : आपली बायल कोणाक मेळटा. कितें करता. हें विचारप म्हटल्यार जगावेल्यो चवकश्यो न्ही.

**परी** : हें पळय हरी, हांव कोणाक मेळटा, कितें करता हें म्हाका तुका सांगपाची कांयच गरज ना. आनी बाय द वे तो ऑफिसान आयिल्लो कारण ताका कांय पेपरांचेर म्हज्यो सयो जाय आशिल्ल्यो.

**हरी** : कितें बरयल्लें त्या पेपरांचेर.

**परी** : म्हाका खबर ना. हांवें वाचूंक ना.

**हरी** : आनी वाचनासतना तुवें सय केली.

**तातो** : विकास कितें परको न्ही. तो आमच्या रामनाथालो चलो. म्हाका ताचेर विश्वास आसा. पूण तुजेर ना.

**हरी** : तुका नागोवन वचना जाल्यार पुरो तो, विकास.

**मिरांडा** : हॅरी तूं भिनाका रे. आमगे बोक्कार तेसो हुशार हा.

**परी** : हरी तुका आपल्याच्या सारखें जग दिसता. तूं बोंडेर म्हुणून तातो न्ही.

**मिरांडा** : पोरी तें सोड. आतां तूं हुशार जा, हायें सांगिलां तें मातशें मोतीन घे. बोक्कारा ग्रेडपा कोरिच्य तूं ह्या वोर्साक.

**हरी** : हें मात एकदम सारखी उलयली तूं. हांव ताका केन्नाच्यान सांगता ते म्हजें आयकुनूच घेना.

**परी** : हांव मातशें फ्रॅश जावपाक वता आण्टी (तें भितर वता).

**मिरांडा** : लोजलें दिसोता.

**हरी** : तें लजून भितर वचूना. तें बेजारून गेलां. ताचें प्रत्येक एक्सप्रेशन म्हाका वळखुपाक कळटा.

**तातो** : तें बेजारून वचूना. तें थकलां कामांतल्यान आत्तां पाविल्लें

न्ही. च्या दिली तुवें ताका.

हरी : हय दिली.

तातो : चल भितर वच, रांदपाचें पळय.

हरी : (स्वगत) भितर कित्याक धाडटा तें समजना काय कितें म्हाका (हरी वता).

तातो : मिरांडा तुका खबर आसा आनी थोड्या दिसांनी हांव करोडपती जातलो.

हरी : खोऱ्यांनी बोक्कार.

तातो : खऱ्यांनी मागीर एक व्हडली गाडी घेतलो. आनी एक ड्रायव्हर दवरतलो आनी मागीर हांव आनी तूं काळें वोक्ल लावन त्या गाडयेंतल्यान भोंवपाक वचपाची.

मिरांडा : हांव मुगे नातरांकूय घेतलें बराबोर.

तातो : ना, ना. फक्त हांव आनी तूं. जाण्टेल्या मदीं भुरगीं आनी कित्याक (स्वगत) पाड पडल्यो हिच्यो खबऱ्यो.

मिरांडा : बोक्कार, तुगे घोरकान्न आसलो जाल्यार आज खुशाल जावपाची.

तातो : (स्वगत) म्हजी घरकान्न आशिल्ली जाल्यार म्हाका तुजेकडेन उलोवपाक सुद्दा दिना आशिल्ली. (उगड, भावूक जावन) शांते ये शांते, कित्याक पूण तूं गेलें म्हाका सोडून. आतां तुजो घोव करोडपती जातलो. तुका बरो हिऱ्यांचो हार घालता आशिल्लो. (रडपाची ॲक्टींग करता) ये शांते शांते.

मिरांडा : (ताचो हात धरता) बोक्कार वोगी राव. वोगी राव बोक्कार. गेल्लो मोनीस म्हूण पोत्तून मेवता.

तातो : तरी तूं आसा म्हुणून म्हाका शांतीची चड याद येना. तूं म्हजी कितली काळजी घेता.

मिरांडा : शी बोक्कार तूं आनी कितें रे. तूं मुगे फ्रेण्ड मुरे. आतां ह्या जाण्टेपोणाक आमी जाण्टेल्यांनी एकमेकाक आदार कोरपा जाय.

तातो : मिरांडा तूं बॉम्बे गेल्ली तेन्ना म्हाका तुजी सामकी याद येताली. म्हाका हांगा खोबऱ्यो मारपाक कोण नाशिल्लो.

मिरांडा : तुगे जावंय दीसभोर घोराकोडे आसोता, तेकोडे खोबऱ्यो माल्लोना तुवें.

तातो : ताच्या असल्या बोण्याकडेन खोबऱ्यो मारून कितें फायदो आसा. जांवय आसचो तर विकासाच्या सारखो आसचो. हुशार, धीट, सुंदर आनी सगळ्यांच्याकूय मुख्य म्हटल्यार पयशेकार. ह्या हरीकडेन लग्न जावन परीन आपल्या आयुश्याचो घात करून घेतलो. ना जाल्यार हांव ताचें लग्न विकासाकडेनूच करता आशिल्लो.

मिरांडा : बोक्कार तेशें मुण्णाका रे. तुगे जावयाको दुड्डू नासूं. पूण तो मोनान खूब गिरेस्त. तोकलेन बोंडो आसूं पूण तेगे काळीज भांगराचें. तुगे चेडवाचो सामको काळजांतल्यान मोग कोत्ता तो. ते येयले. त्या बराबोर तेका च्याव हाण दीता, बेजार नासतोना तुमगे घोरातुलें सोगलें काम कोत्ता.

तातो : तो घराकडेन आसता म्हुणून घराकडलें सगळें काम करता पूण लोकांच्या जावयांक पोळोवन अशें दिता की म्हजोय जावंय तसोच आसपाचो.

मिरांडा : आता, आनी आनी हांव तुका कितें सांगो. म्हाका जाल्यार तुगे जावंय सामको लायक. भांगर मुरे तो भांगर. चोल हांव वेता, रात जायत येयली, फाल्यां मात्ता पासोय. (ती वचपाक लागता).

तातो : वताच म्हणटा. बरें बरें (ती वता) ही आनी कॅरॅक बायल म्हजो जांवय भांगर खंय भांगर. म्हजो जांवय एक फातोर आनी हांवें हो फातर म्हज्या तकलेर मारून घेतला.
(माचयेर काळोख)

(प्रवेश पयलो सोंपता.)

## प्रवेश दुसरो

(माचयेर कोण ना. इतल्यान भायल्यान अजू येता.)

अजू : हरी ये हरीश.

हरी : (भितरल्यान) येता येता (हरी हात पुसत येता)

अजू : हरी हें घे.

हरी : कितें.

अजू : उगडून तरी पळय.

हरी : (उगडून पळोवन खूब उमेदीर जाता.) अजू अजू हांव पास जालो. आनी तेंवूय फर्स्ट क्लास (अजूक धरता) अजू हें सगळें तुज्याखातीर पोसीबल जालें. नाजाल्यार हांव मातयेंतल्या किड्यासारको हांगा लोळत उरता आशिल्लो.

अजू : हरी मनांत निश्चय केल्यार मनीस कितेंय करपाक शकता. हें सगळें तुज्याच त्रासाचें फळ.

हरी : आतां रोकडोच खंयीय बरो जोब सोदतलो. बोंडो, घरजांवय, लाचार हे शब्द आयकून आयकून, म्हजे कान फुटपाक पावल्यात पूण आतां ना, हाच्यामुखार ना, हाच्यामुखार हांव म्हज्या

पायांचेर उबो रावतलो.

**प्रितम** : आतां परी येतकीर परीक सांगता, ते खूब खुशाल जावन म्हाका वेगेंत काडटले. आज ह्या उमेदीच्या दिसाक ताच्याखातीर खीर करून दवरता, तोंड गोड करपाक. (इतल्यान भितरल्यान प्रितम येता).

**प्रितम** : भावोजी, भायर सरूना तूं. आ अजूभाई कसो आसा.

**अजू** : बरो आसा.

**हरी** : खंय वचपाक.

**प्रितम** : हॉटेलान. जेवपाक.

**हरी** : जेवपाक.

**प्रितम** : हय जेवपाक. परी, तातो, विकास, हांव आनी तूं.

**हरी** : पूण म्हाका कोणेंच, कांयच सांगूंक ना.

**प्रितम** : सकाळीं म्हाका परीन सांगिल्लें, सांजे हॉटेलान जेवणाक वचपाचें म्हुणून. तुका सांगूंक ना?

**परी** : ना. म्हाका सांगूंक ना. परीनूय सांगूना. आनी तातोनय सांगूंक ना.

**प्रितम** : तांका याद ना दिसता. तें सोड, आतां हांव सांगता न्ही तुका, यो तूं.

**परी** : ना. ना. तूं चल. वचून येयात तुमी.

**प्रितम** : बरें येता हांव. (प्रितम वता).

**हरी** : पळयलें पळयलें अजू. जेन्नाच्यान हो विकास आयला सगळीं ताकाच घेवन नाचतात. म्हजे परी सुद्दा. अजू पयशे म्हटल्यार सगळें. हांवें चितिल्लें परी येतकीर ताका खीर दीवन ताचें तोंड गोड करून ताका आश्चर्याचो धक्को दितलो. पूण ते थंय वेगळ्याच रंगान रंगला दिसता. अजू अजू एक सांगू तुका

परिचेर इतलो मोगाचो पावस घालून लेगीत हांव मातसो मोगाखातीर आशेता. जायना म्हज्यान कशेंच सहन करपाक जायना. एक मिनिट राव हांव आयलो.

(हरी तातोच्या रुमान वचून सोऱ्याच्यो बाटल्यो घेवन येता.)

**अजू** : हरी हें कितें?

**हरी** : हें तें वखद, जें मनशांनी चितपाची कुवत कमी करता. मागीर मनशाक बरें कितें आनी वायट कितें हाची खबर उरना. सूखदुखाची याद उरना. आनी आज म्हाका सूख आनी दूख दोनूय सेलेब्रेट करपाक जाय.

**अजू** : पूण हें तुका खंय मेळ्ळें. हाडून दवरिल्लें.

**हरी** : ना. हो तातोचो म्हाल, ताणें आलमारीच्या खाचीन लिपोवन दवरिल्लो. हांव ताच्या रुमान निवळ करता न्ही, म्हणटकीर म्हाका तो खंय खंय कितें दवरता तें सगळें खबर आसता.

**अजू** : पूण हरी आज नाका.

**हरी** : (एक घोंट मारता) आ नाका कित्याक. आज हांव हॅपीय आसा आनी सॅडूय आसा. आनी घरांत कोण नाय बी. (आनी पिता) सगळें रान मोकळें.

**अजू** : आनी ती आयल्यार.

**हरी** : ती येनात. आनी आयल्यार येवू, ताच्या बायेचो घोव. घे तूं. मार घोंट.

**अजू** : (पिता) हरी, चड बी पिवशी आ. ना तुका संवय ना न्ही. मागीर तुज्यान तुकाच सांबाळपा जावचेंना.

**हरी** : आज म्हाका खूब पिवपाक जाय. शाबूद भायर जावपाक जाय. तूं पी रे. तूं कित्याक पिवपाचो रावता.

**अजू** : पितां पितां, पूण हांव चड घेवचोना. हांव पिलो म्हुणून

कळ्ळ्यार म्हाका मागीर म्हजी बायल घरांत घेवचीना.

**हरी** : बायलो. ह्यो बायलो सगळ्यो वाट लायतात. हांव हरीश बाळकृष्ण वेर्णेकर. आज म्हजें अस्तित्व कितें. एक बेकार. घरजांवय.

**अजू** : हरीश आतां तुका जोब लागतलो न्ही.

**हरी** : ह्या परीक लागून हांवें कितें करूंक ना. ताच्याखातीर घर जावंय सुध्दा जालो आनी आज हें परी म्हाका कोत करना. आनी त्या विकासाची व्हडविकाय म्हाका सांगता.

**अजू** : हरी तूं चुकता. तशें कांयच ना. परीचो तुजेर मोग आसा.

**हरी** : कितें मोग आसा. मोग बी कांयच न. ताका फकत स्वताचेर आनी पैशांचेर मोग. ये अजू (रडलेल्या सारखी ॲक्टींग) म्हज्या भावा, म्हाका फक्त तुजोच आदार. (अजू पिता).

**अजू** : ये हरी, तशें म्हणनाका. म्हाका रडपाक येता. (इमोशनल जाता) हरी तूं म्हाका, म्हज्या भावासारको. ये दोस्ती हम नहीं छोडेंगे, छोडेंगे दम अगर तेरा साथ ना छोडेंगे.

**हरी** : यारी है इमान मेरा, यार मेरी जिंदगी.

**अजू** : विसरनाका हरी, जिन्दगी इम्तहान लेती हैं.

**हरी** : तो तातो म्हाका लाचार म्हणटा. हांव लाचार. हांव गड्डो. एक दीस त्या तातोच्या धोलार बसून ताची जीबच उमटावन काडटा.

**अजू** : हरी, तो तुका तुत्र्याभशेन करता.

**हरी** : अजू, तुत्र्याभशेन न्ही रे, कुत्र्याभशेन.

**अजू** : तेंच तें. म्हाका चड अजाप दिसता तें परीचें.

**हरी** : सारखें. सारखो उलयलो तूं अजू. आज ह्या हरीन त्या परीखातीर कितें करूंक ना. I am her husband. Who is this Vikas.

Nonsence Pikas. I will teach that Vikas. What is Hari and who is Pari.

अजू : Right my friend. तुवें म्हुणून हे त्रास सोंसले हरी. हांव जाल्यार इतले म्हटल्यार जीव दिता आशिल्लो.

हरी : आतां हांव दिवूं तर जीव (आपलोच गळो दामता).

अजू : ये शू तशें करनाका. म्हज्या भावा, हांव तुज्या पांयां पडटा.

हरी : तूं म्हणटा म्हणून जीव दिना. पूण एक सांगू, अजू मेरी जिन्दगी तो कबसे जहन्नूम बन चुकी हैं. जिन्दगी का सफर है ये कैसा सफर. (दोगूय म्हणटात) कोई जाना नहीं कोई समजा नहीं. (इतल्यान भायल्यान तातो, प्रितम आनी परी येतात).

परी : कसलो बोवाळ तातो ?

हरी : (तोंडार हात धरता आनी बाटली लिपयता.)

तातो : हो हेडगोय हांगाय आसा.

परी : तातो प्लीज वोगी राव. भाई कितें जालें ? तुमी आतां मोठमोठ्यान कित्याक उलयताले ?

अजू : हे (चू, असो तोंडांतल्यान आवाज करता) आमी खंय मोठ्यान उलयताले.

हरी : आमी पदां म्हणटाले.

तातो : इतल्या मोठ-मोठ्यान पदां म्हणपाक हांगा कितें सटी आसा तर. काय तुमी पिशे जाल्यात.

हरी : आमी पिशे जावूनात. मातशे शाबूद भायर जाल्यात इतलेंच.

अजू : आमी दोगांयनी इलें वखद घेतलां. तातो कोणाक सांगनाका आं.

हरी : तें सोडात, तुमी अकस्मात शी. भुसाक गेल्लीं न्ही तुमी.

प्रितम : भावोजी, विकासाक अकस्मात अर्जंट काम जालें, तेखातीर आमकां येवचें पडलें. तो आतां आमकां पावोवन गेलो.

परी : हरी, रांदूना तुवें?

हरी : रांदूना तुवें? तुज्या बापायन कितें म्हाका विकतो घेवन दवरला. (चाळोवन) रांदूना तुवें?

परी : हरी, तूं सोरो पिला.

हरी : हय हांव पिला. हिसपा भायर पिला.

तातो : हें एक शेण खावपाचें उरिल्लें तुवें. तेंवूय आज खालें.

हरी : आनी हेंच शेण तूं सद्दां खाता आनी तुज्याच रुमांतल्यान हाडलां हें शेण.

अजू : हय तातो. तुज्याच रुमांतल्यान हाडलां हें तिर्थ.

तातो : तूं चड चोमडेपणां करनाका, चल लाग चलूंक हांगचो.

हरी : ये कासवा. तो म्हजो फ्रेण्ड. तो हांगाच रावतलो. अजू गरज ना हांगचो हालपाक. तूं खंयच वचचोना.

परी : हरी कितें चलयलां तुवें.

हरी : चूप. एकदम चूप. हांवें कितें चलयलां. खरें म्हटल्या हो प्रश्न तुका हांवें करपाचो. तूं म्हाका सांग, तुवें कितें चलयलां तें.

परी : चक्रम जाला.

हरी : भाशा सुधार. आज तूं त्या विकासाबरोबर जेवणाक वचपाचे हें तुवें म्हाका कित्याक सांगूंक ना.

परी : म्हाका याद ना. आनी सांगना जाल्यार कितें जाता.

हरी : शट अप. सांगना जाल्यार कितें जाता. फाट फोडून वडयतलो. हांव तुजो घोव. विसरलें. काय याद करून दिवपाक जाय.

प्रितम : (अजूक सांगता) कास्ताद मरे. भावोजी सामको दारासिंग जालो. फाल्यां हांवेय हो पराक्रम केल्यार बरो दिसता.

तातो : घोव. घोव जावन कसलो तीर मारलो तुवें.

हरी : तोंड धांप. घोव आनी बायल उलयनासतना, तूं मदीं तुजे पन्नें

जनेल उगडनाका. आं तर हांव कितें म्हणटालो. आ म्हाका सोडून तुमी त्या विकासाबरोबर भुसाक गेलीच कशी.

**प्रितम** : पूण भावोजी, आमी थंय जेवलीं लेगीत ना.

**हरी** : तें नाका. गेलीं कशी. तातो खंयीय भुसाक गेल्यार म्हाका कांय फरकच पडना. पूण तूं, म्हजी बायल म्हाका सांगनासतना परक्या मनशाबरोबर जेवपाक गेले.

**परी** : तुका आमच्याबरोबर व्होरून विकासाक कितें सांगपाचे. तूं घर जावंय आनी बेकार म्हुणून.

**हरी** : तुका म्हजी लज दिसता.

**परी** : तशें न्ही. पूण.

**हरी** : पूण कितें. तुजो बापूय म्हाका दिस–रात थोमणे मारीत आसता. आनी तूं ताका वगी करपाचें सोडून, ताचोच सांगत दिता. एक भोळ्या मनशाक तुमी सामको लाचार करून सोडला. दीसरात बोंडो, गड्डो बेकार लवडी, हे तुज्या बापायचे शब्द म्हज्या (काळजाक हात लावन) हांगा हांगा भाल्यासारखे तोपतात.

**अजू** : हरी, आसूं आता, चल भितर वचून न्हीद.

**हरी** : ना अजू, आज उलोवपाक दी. तुका खबर आसा अजू ही सगळी मेळून व्हडलें डिलींग करतात, पूण म्हाका आजून सांगलें लेगीत ना. आनी हांवेंय ताका विचारूना. कारण हांवें रिलेशना परस पयशांक केन्नाय चड म्हत्व दिलेंना आनी म्हुणूनूच तर तोंड बंद करून इतलो तेंप हांगेलो अत्याचार सोंशीत रावलो.

**प्रितम** : भावोजी चल यो. भितर यो.

**तातो** : चल चल तोंड काळें कर हांगाच्यान.

हरी : तोंड काळें हांव कित्याक करूं. तोंड तूं काळें करता तें पुरो. नांव घेवं. कोणाबरोबर तें?

परी : हरी आतां तुवें खरेंच पाशिंयेंस पेड्यार केलें म्हजें. खरेंच वगी राव. म्हाका वाज येता. बेजार हाडनाका.

हरी : तुका सगळोच वाज येता. भुरग्यांक सुद्दा जल्म दिवपाक वाज येता.

परी : आतां मदीं भुरगीं खंयच्यान आयलीं.

हरी : घोव-बायला मदीं सदांच भुरगींच आसतात. यो यो तुका सांगता हांव, भुरगीं मदीं खंयच्यान आयली ती (परीच्या हाताक धरून वोडटा).

परी : तातो, तातो (तातो परीच्या हाताक धरता).

हरी : म्हज्या बायलेक हात लायल्यार, धपको घालतलो. चल वच हांगचो. (परीक घेवन भितर वता).

तातो : प्रितम, आतां ह्या जंगल्याक व्हरून ताच्या घराकडेन मातसो पावय रे बाबा.

प्रितम : पावयता. भाई चल हांव तुका तुज्या घराकडेन पावयता.

अजू : बरें तातो गूड नायट. सारखो न्हीद, दार धांपून नाजाल्यार हरी नांवाचो दारासिंग येतलो. (हांसता)

तातो : चल, चल रस्तो धर. (ते दोगय वतात) ह्या हरीची इतली कापस्ताद म्हजोच सोरो पिवन म्हाकाच गाळयो. खंय वतलो. फाल्यां सकाळीं निवळटकीर कुत्रो कसो दोनीय पायामदीं शेपडी घालून येता, तसो येतलो, पळयातूच तुमी.
(माचयेर काळोख)

(प्रवेश दुसरो सोंपता.)

## प्रवेश तिसरो

(माचयेर. तातो बसून पेपर वाचता. इतल्यान विकास येता.)

**विकास** : तातो, कितें खास आयलां पेपरार?

**तातो** : आ विकास यो. कांय ना. भविश्य वाचतालो. आज तूं सकाळफुडें सो?

**विकास** : थोड्या डोकुमेंटाचेर सय जाय आशिल्ली.

**तातो** : मारया, जाय थंय सय मारया. कितें घेतलो च्या काय कॉफी.

**विकास** : कांय नाका. हांव च्या घेवून आयला. तातो काल तुमकां म्हज्या खातीर त्रास जालो म्हुणून वायट मानून घेनाका. जाता तशें केन्ना केन्नाय (इतल्यान भितरल्यान विकास जांबयो दीत येता).

**विकास** : हो कोण. (हरी आपले कपडे सारखे करता).

**हरी** : हांव हरीश.

**विकास** : आ. तुमचो जांवय. आतां कळ्ळें. हाय आमी दोगूय केन्नाय मेळूं नात. हांव आयिल्ल्या फावटीं तूं घरान आसनाशिल्लो.

**हरी** : कांय हांव नासतालो तेन्नाच तूं घरान येतालो.

**विकास** : कितें. समजूना म्हाका. तें सोड जोब कसलो करता तूं.

**तातो** : तो बँकेन क़ामाक आसता.

**हरी** : तातो फार मारनाका. विकास हांव सद्यातरी बेकारूच आसा. आनी म्हजो सद्याचो जोब म्हटल्यार घरकाम. तातो तुका फटींग सांगता.

**तातो** : (आबूज जावन) हांव बेश्टी फकाणां करतालो. तो घराकडेनूच आसता. तो म्हजो घरजावंय.

**विकास** : ओह... now I knew.

हरी : Now I knew, म्हटल्यार? इतलो तेंप तुका खबरूच नाशिल्लें तर.

विकास : म्हाका कोणेंच सांगूना, जाल्यार कळटलें कशें. पूण आपली पिशेपणां कशें करपाक शकता.

हरी : म्हटल्यार.

विकास : कांय ना. तें सोड म्हणटकीर u are jobless. शिक्षणाखातीर काय आनी दुसरें कारण आसा. म्हाका दिसता फकत शिक्षणाखातीरूच आसतलो.

हरी : दिसता तशें नासता, म्हुणून जग फसता. I have completed my education till M.Com. with first class. You want any clarification on this?

विकास : परी खंय गेलां.

हरी : परी कामाक गेलां. कित्याक विचारता, ताचीय सय जाय आशिल्ली.

विकास : ना सहज. परी आसलें म्हणटकीर वातावरण मातशें वेगळें जाता.

तातो : म्हजें परी आसाच तशें.

विकास : मि. हरीश हांव जितले फावट हांगा आयलो, म्हाका तूं मेळुंकूच ना, तुजी सय घेवपाक. बाकी सगळ्यांनी सय मारली.

हरी : दोळे धांपून काय दोळे उगडून.

विकास : सॉरी. म्हाका समजुना तुजें.

हरी : म्हटल्यार वाचून काय वाचनासतना.

विकास : तांणी वाचना जाल्यार हांव ताका कांयच करपाक शकना.

तातो : विकास आमकां तुजेर पूर्ण विश्वास आसा.

हरी : म्हणटकीर कोणेंच ते पेपर वाचू नात.

तातो : तूं मोठो हुशार जावपाक पळयनाका. बोंडो खंयचो.

हरी : बोंडो. कोण बोंडो. हांव एम.कॉम. फर्स्ट क्लास.

तातो : केन्ना. रातीं भार आयिल्लो तो आमकां खबर आसा. पूण हो एम.कॉमाचो हुंवार आयलो तो आमकां खबरूच ना.

हरी : काल तुमी विकासाबरोबर भुसाक वचपाच्या रंगान आशिल्ली पळय, तेन्ना आयला हो हुंवार.

तातो : आसूं, आसूं. व्हडलो शे कांयच दिवे लावूंक ना तुवें.

विकास : तातो, सगळें काम जायत आयला अख्खी प्रोपर्टी मेजून जाली. शिम्यांचेर फातर घालून जाले. शेवाळ्यांनी सगळें मळ निवळ केलें. आतां फकत जागो उरला तो भाटाचो. फाल्यांच थंय शेवाळे घालून निवळ करता.

हरी : इतलें सगळें काम जालें आनी म्हाका खबरच ना. पूण तें सोड विकास, म्हजी सय नासतना तुवें सगळें काम सुरू केलें.

विकास : तातोन सय दिल्या न्ही. आनी तुका पयशे मेळटकीर जालें न्ही.

हरी : तूं मोठो बिल्डर आनी कायदो कळना तुका. म्हजी सय लागता, ती खबर ना तुका.

विकास : हरीश, अजून कांयच तशें फायनल जावूना. तुजी सय उरल्या आनी थोड्यो फॉर्मेलिटी उरल्यात. मागीर हो प्रॉजॅक्ट फायनल जातलो. घे हे पेपर आनी तांचेर मातशी सय कर तुजी.

हरी : म्हाका वाचपा जाय ते पेपर.

विकास : (दोळे घुंवडायता) तातूंत वाचपाचें आनी कितें.

तातो : सय मारपाक तुका इतले चिंतपाची कांयच गरज ना. प्रॉपर्टी म्हजी.

विकास : तातो, तुका विश्वास आसा म्हजेर पूण तुज्या जांवयाक ना.

हरी : म्हजो, तुजेर विश्वास आसा काय ना. हो प्रश्न न्ही.

Precaution is better than cure. आनी एक विसरनाका विकास, विश्वास आसा थंयच घात जाता. दुस्मान फुडल्यान वार करतात. आनी जांकां आमी आपली विश्वासाचीं मनशां म्हणटात तीं फाटसून वार करतात आनी आमकां कळुकूंच ना.

**तातो** : ये हरी. जमनीर यो. खंयच्या जगांत पावला तूं.

**हरी** : तातो, हांव जमनीचेरूच आसा. पूण म्हाका ह्या दिसांनी तुज्या पावलांच्यो खुणो आमच्या दारांतल्या मळबार दिसू लागल्यात.

**विकास** : हरीश, म्हाका दिसता, आतां तूं चडच स्पनाल्ल्या सारखे उलयता. ह्या डोकुमेंटाचेर सय कर, म्हाका वेळ जाता.

**हरी** : हांवें तुका सांगलां न्ही म्हाका ते डोकुमेंट सारखे वचपाक जाय म्हुणून. तूं वच. हांव वाचतां आनी मागीर सय करून, तातोकडल्यान धाडून दिता.

**तातो** : म्हाका विकासाचेर विश्वास आसा. तूं मार सय, चड नखरे दाखयनाका.

**विकास** : तातो म्हाका वेळ जाता. त्या पेपरांचेर तूं हरीशाली सय घे आनी मागीर म्हाका हाडून दी. बेगीन सय घेतल्यार सगळीं कामां बेगीन जातली. नाजाल्यार मागीर हांव जबाबदार ना. येता हांव.

**तातो** : विकास, तूं मनाक लावून घेनाका. मारतलो तो सय.

**विकास** : बरें. (विकास वता).

**हरी** : तातो, रातीच्या गजालीक लागून हांव माफी मागता. रातीं मातशें घेतिल्लें तें बरेंच लागलें. पूण एक सांगता, हे पेपर सारखे वाचले बगर हांव म्हजी सय कशीच दिवचीना. (हरी भितर वता).

तातो : शांते ये शांते, आयकता तूं आमचो गड्डो जावंय एम.कॉम जालो आनी म्हाका बुद्द शिकयता. सगळें काम अडकून उरतलें. तुका सामकोच बेदखल करून उडयता. आतां हें काम फकत परीच करपाक शकता. परी, बरोच हुशार जाला तुजो हरी.

(माचयेर काळोख)

(प्रवेश तिसरो सोंपता.)

## प्रवेश चवथो

(माचयेर कोण ना. इतल्यान मिरांडा येता.)

मिरांडा : बोक्कार, बोक्कार, बोक्कार रे.

परी : आण्टी यो. तातो भायर सरला.

मिरांडा : आनी तुगे घोरकार गो.

परी : आसतलो घराक. म्हाका ताच्यो खबऱ्यो विचारनाका.

मिरांडा : आवय. कितें जालें गो.

परी : कांय ना.

मिरांडा : झोगोळ्ळी काय कितें गो. आसूं मोदे मोदे फायट जाल्यार घोव-बायलेमदलो मोग वाडोता. केदोना जालीं फायट.

परी : आण्टी, फायट जावूना. पूण आमी एकामेकाकडेन उलयनात.

मिरांडा : मागीर अशें कितें जालें तोर. कितू दीस जाले उलोयना जाल्यार.

परी : खूब दीस जाले.

मिरांडा : तॅशें चोड दीस उलयनासतोना रावो फावोना. तुमी दोगांय

कित्याक उलयना तें तोरी सांग. (इतल्यान हरी येता)

हरी : मिरांडा आण्टी, हांव ताचेकडेन उलयता, तें म्हजेकडेन उलयना.

मिरांडा : आं. चूचूरे. येशे सोतायनाका गो तेका. तुगे घोव मुळ्या एक गरीब गाय.

हरी : बैल.

मिरांडा : तेशें मुट्टाय रे ते. ये पोरी चोल हॅरीको shakehand कोर.

परी : ना. हांव करना.

हरी : मिरांडा आण्टी, तुका कितें सांगपाक जाय आशिल्लें.

मिरांडा : कितें. बोक्कार शापाय जावपा हा काय कितें रे.

हरी : अजून तरी ना. एक दुसरी खबर हांव एम.कॉम जालो.

मिरांडा : कोम जालो. मुळ्या रे. dot.com तेशें कोन्न.

हरी : Double graduate जालो. फर्स्ट क्लासांत पास जाला.

मिरांडा : आ आ सोजमलें. बायलेन बोरें गिफ्ट दिलां मुरे.

हरी : हय दिलां.

मिरांडा : कितें रे.

हरी : कुलूप. ताणें तोंडाक कुलूप केलां न्ही. म्हजेकडेन उलयना न्ही तें.

मिरांडा : आतां तूं तोरी सांग कितें जालें तें.

हरी : (स्वगत) आ हें समज तर हांवें तुका सांगलें, जाल्यार तें म्हाका जितोच दवरचीना (उगड) हांवें ताका एक दीस च्या करून दिवंक ना म्हुणून तें रागार.

मिरांडा : आवय इतलेच्य.

परी : हय इतलेंच, ह्याच खातीर हांव रागार आसा.

मिरांडा : कितें गो. तूं आनी चोय, पोयर हाये बोक्कारा सांगलेलें आनी आज्य तुकाय सांगीता, तुगे घोव मुट्टा तो एकदोम भांगर.

आड्ड्यावोयलो सागलो लोक तो बोरो मुट्टाय.

परी : हय. तो सगळ्या जगा खातीर बरोच, हांव खंय ना म्हणटा.

मिरांडा : मागीर येसल्या भांगरा सारख्या घोवाचेर रागार कित्याक जाता. बोरी कोन्न रावय मुगो मोगान. (इतल्यान प्रितम येता)

प्रितम : आण्टी हांवूय ताका हेंच सांगत आसता. भावोजीक कांयच म्हण्णाका म्हुणून आनी तर भावोजीन सिध्द केलें आसा. M.Com फर्स्ट क्लासांत पास जावन. परी एक सांगू भावोजी तुजी खूब काळजी घेता. और इतना अच्छा पति सिर्फ नसीबवालों को ही मिलता है. नाजाल्यार चडान चड चलयो अशेंच म्हणटात की एक चुटकी सिंदूर की किंमत तुम क्या जानो हरीश बाबू I mean रमेश बाबू.

परी : पुरो. प्रितम, ही तुजी कॉलेज न्ही. डायलोग मारपाचें सोड तें.

मिरांडा : आसनी गो. बोरे दिसोता ॲशें.

प्रितम : भावोजी तुका अजू भाई विचारतालो.

हरी : म्हाका. कित्याक.

प्रितम : हांवें विचारिल्लें. पूण म्हाका सांगूंक ना.

हरी : तूं आतां भाटांत गेल्लो ?

प्रितम : हय. कित्याक.

हरी : हांवें विकासाक सांगलां म्हजी सय जाल्याबगर भाटांक शेवाळे घालनाका म्हूण.

परी : प्रितम तुज्या भावोजीक सांग की हें भाट तातोचें म्हुणून आनी ताका नाक घुसोवपाची कांयच गरज ना म्हुणून.

हरी : आनी हांव तातोचो जांवय आनी ह्याच अधिकारान आनी हक्कान हांव उलयता.

परी : घरजावंय आनी मेन म्हटल्यार बेकार जांवय.

हरी : कसलो जांवय तें पयर सांगलां तुका हांवें. परतून सांगपाक जाय.

मिरांडा : हॅरी, केसलीय मुरे बारीकसाण आसोता ती बोरी. ए प्रितम, तुये मुरे भाटां रावपाचें आनी बोक्कारा हिंगा धाण दिवपाचें. जाण्टे मनीस, चोड वोता बी रावोक फावोना.

हरी : पैसो मेळटा जाल्यार तो उज्या सुध्द हात घालपाचो आसा.

प्रितम : हांवें सांगिल्लें ताका हांव रावत म्हुणून. पूण म्हाका ताणें धाडलो अभ्यास करपाक.

परी : मागीर तूं हांगा रावून चकाट्यो कितें मारता तर, चल तुज्या रुमान आनी अभ्यास कर.

प्रितम : तुज्याभितर आनी तातोभितर कांयच फरक ना. दुसऱ्यांची तकली खावपाक नंबर 1 तुमी. भावोजी बाबडो कसो सोंसता म्हुणून देव जाणा.

परी : प्रितम तूं आतां ततयांतल्यान भायर सरता थंय आसा आनी इतलें उलोवपाक शिकलो.

प्रितम : 21st century परी. आज काल सगळें फास्ट.

मिरांडा : ये हॅरी तुका खोबोर हा कितें चोल्लां तें.

हरी : ना कितें जालें.

मिरांडा : तुमगे तो नीव येयला तो हिरो रे, गांवां सोगल्याकडेन कास्कीसावां कोरीत हा.

हरी : कोण विकास. कित्याखातीर.

मिरांडा : तो लोकांगे सुवात मेजिता म्हूण. हायें बोक्कारा सांगलो ही खोबोर, पूण तेणें मुगे मोती घेयलोना.

हरी : तो कशे आयकतलो. तो ताचेर दोळे धापून विश्वास करता. आनी हांवें केली नात त्या गजालींचो लेगीत म्हजेर आळ

घालता.

**परी** : तो तुजेर आळ घालता काय तूं ताचेर आळ घालता. आण्टी तुजो गैरसमज जाला दिसता. विकास तशें केन्नाच करचोना.

**मिरांडा** : जावपाक शकता. हाये काय मुगे दोळ्यांनी चोवना, पूण इतू लोक फोट कित्याक मात्तोले.

**हरी** : आसूं मिरांडा आण्टी. परीच्या आनी तातोच्या दोळ्यार विकास नांवाचो पड्डो आयला.

**प्रितम** : भावोजी सारखें तुजें.

**परी** : म्हाका एक समजना, तूं हरीचो भाव काय म्हजो भाव काय म्हुणून.

**प्रितम** : जो कोण सारको उलयता हांव ताचोच भाव. कितें म्हणटा मिरांडा आण्टी.

**मिरांडा** : वोय वोय सारखें. हो बोक्कार खूंय पावलो रे. हांव चोल्लें. म्हाका मीसा वोसोच्या जाय.

**प्रितम** : तातोकूय मीसाक व्हरता तर तूं.

**मिरांडा** : हो आनी एक प्रितम. आरे हांव बोक्काराकोडे दोन खोबऱ्यो मारूच्या येयलोले. आसनी आतां बोक्कार मोठे मोनीस जाला न्हू रे. आतां म्हुज्याखातीर तेकोडे वोगोत ना.

**प्रितम** : आण्टी तूं गेल्यार पावतली.

**मिरांडा** : कितें?

**प्रितम** : म्हटल्यार तातोक येवपाक अजून वेळ आसा.

**मिरांडा** : व्होय. बोरे हांव वेता. म्हुगे फ्रेण्ड फीलू म्हाका मिसा वोसोच्या रावोता दिसोता (वता).

**हरी** : कॅरॅक बायल. पूण मनान बरी.

**परी** : कितले दीस जाले, हांव तुका कितें सांगूंक सोदता.

हरी : सांग मगो, म्हज्या परी.

प्रितम : भावोजी, परी तुज्याकडेन उलोवपाक लागलें.

परी : प्रितम चुकता तूं. हांवें तोंड उगडलां, म्हजें डिसीजन सांगपाक.

हरी : म्हटल्यार तूं आवय जावपाक तयार आसा.

परी : अजिबात ना.

हरी : आनी कसलें डिसीजन तर.

परी : तुजो आनी म्हजो सदांच वाद जाता.

हरी : मागीर.

परी : मागीर आनी कितें. सद्दां उठून झगडचे परस आमी वेगळी जाल्लीं बरी.

हरी : कितें?

प्रितम : तकलेन सारकें आसा मुगो तूं.

हरी : आनी वेगळें जावन कितें करपाचें.

परी : वेगळें जावन वेगळें रावपाचें.

प्रितम : भावोजी, म्हाका दिसता हें तकलेन सुटलां. तरे नाम जालां. हाका आल्तीन पावोवचें पडटलें.

हरी : ह्या बारीक सारीक वादांक तूं मोठ्या युध्दाचें रुप दिवपाक पळयता.

परी : हांव युध्द जावचे पयलीं कुरूक्षेत्र सोडपाक पळयता.

प्रितम : आनी दुसरें कुरूक्षेत्र सोदलां काय कितें?

परी : प्रितम तूं न्ही अजून भुरगो आसा. तुका समजना तें. तूं वगी राव.

प्रितम : तातो सांगता हांव घोडो जाला, तूं सांगता हांव भुरगो आसा. म्हाका एक सांगपाक शकता खरें कोण उलयता तो.

हरी : परी फकाणां इतलीं सिरीयस जावन करनाका. तें नान नीन प्रीत सत्येनू. सगळीं फकाणां.

परी : हांव फकाणां करना.

हरी : पूण आमच्या भितर ह्या चार वर्सांक अशे वाद हजार फावटीं जाले. पूण दुसऱ्या दिसाक मागीर आमी एकच आनी अशे पयस वचपाचो विचार तुज्या मनान कसो आयलो.

परी : विचार अकस्मात मनान येवपाक शकनात.

प्रितम : परी ही गजाल तातोक सांगल्यार तो तुका वोगी रावचोना (तातो येता).

तातो : म्हाका ही गजाल खबर आसा. आनी म्हाका कांयच हरकत ना.

हरी : परी हो म्हज्या मोगाचो अपमान आनी तुका म्हजो असो अपमान करपाचो कांयच अधिकार ना.

प्रितम : हय परी, तूं असो निर्णय घेवंक शकना.

तातो : ये वाचिंदळा तूं परीचो बापूय न्ही. ताचो बापूय हांव आनी ताच्या बापायक म्हणजे म्हाका ताचो हो निर्णय मान्य आसा. हरशीं म्हुणून हो बेकार जांवय म्हाका नाकाच आशिल्लो.

हरी : आतां म्हाका कळ्ळें, हें सगळें तुजें कारस्थान तर. दोळ्यार पयशांची पट्टी येतकीर मनीस आंधळो जाता, मनशाक बऱ्या वायटाची समज कळना, आनी मनीस, मनीसपण विसरून जनावर जाता. इतलो तेंप फक्त आयकल्लें, आतां पळयता. शी धिक्कीर असल्या विचारांचेर आनी मनशाक मनीसपण विसरपाक लावपी असल्या गिरेस्तकायेचेर.

तातो : भिकाऱ्यांक कितें समजतलो गिरेस्तकायेचो अर्थ.

हरी : तुजो हो वायट हेतू हांव केन्नाच पुर्ण जावपाक दिवचोना. ह्या

जन्माक तरी हांव परीपासून पयस रावचोना. हें लक्षांत दवर. (हरी भितर वता).

**तातो** : म्हजें नांव विश्वनाथ बोरकार. हांवूय तुका बुध्द शिकयले बगर कसोच रावचोना. तूंवय लक्षांत दवर. (माचयेर काळोख)

(प्रवेश चवथो सोंपता.)

## प्रवेश पाचवो

(माचयेर हरी बसला. इतल्यान अजू येता).

**अजू** : हरी ये हरीश.

**हरी** : आयलो तूं? काम जालें?

**अजू** : हय काम अर्दे जालां आनी अर्दे जावपाचें उरलां.

**हरी** : समजूना म्हाका.

**अजू** : म्हटल्यार जें काम जालां तें कोणाक खबर ना. आनी जें अर्दे काम उरलां तें सगळ्यांमुखार करूंया मरे. बोकडो मारपाचोच आसा जाल्यार ताची गोमटीच कापया, पाय मोडून सोडपाचो ना.

**हरी** : आनी आमच्या कासवाचें कितें करपाचें?

**अजू** : बोकड्याची कापिल्ली गोमटी पळोवन तुमगे कासव आनी आपली बोडकी भायर काडपाची कापस्तादूच करचोना!

**हरी** : ताका आनी तकली वयर काडपाक तोंड उरतलें, इतलें शेण खावन.

अजू : तुका शेण खा म्हणटा न्ही तो, ताका आतां कळटलें शेण म्हटल्यार कितें तें.

हरी : आनी ह्या परीक कितें करपाचें?

अजू : अरे, इस्पिकेचो बंगलो कोसळटा तसो, सगळीं एकाच बरोबर कोसळटलीं आनी तुजे राणयेक समजतलें खरो राजा कोण तो. ज्या राजकुमाराचीं सपनां पळोवन तुजी राणी तुका नखरे दाखयता, त्या राजकुमाराचो आज जगावेगळो राज्यभिशेक करूया आमी.

हरी : हें सगळें तुकाच लागून शक्य जालें अजू. तुज्या आदारान हांव हें सगळें करूंक शकलो.

अजू : हांवें तुका फकत शिपाय जावन मदत केल्या. ह्या लडायेचो खरो योध्दो तर तूं. आनी आतां ताचेर आमी मिरांडा नांवाची फोगोटी सोडटले.

हरी : आनी प्रितम नांवाचो शब्दांचो पावस. आज त्या विकासाक उघडो करून सोडना जाल्यार म्हजें नांवच बदलतलो.

अजू : वेर्णेकर आसा ते बोरकार बी करशी. (हांसता) फकाणां केल्यांत.

हरी : पूण अजू, आमी जें कितें करतात तातूंत आमकां success मेळटलें मरे.

अजू : आरे, आमी कोणाक फटयनात. आमी सत्याक आमची तलवार करून फटींगपणां आड झुजतात आनी जो सत्याचो सांगात घेवन लडटा तो मनीस केन्नाच हारना. सुरवातेक जिकना जाल्यार शेवटाक तरी जिकता. हो म्हजो इतल्या वर्सांचो अणभव.

हरी : हांव परिशिवाय रावपाक शकना. भंय दिसता ह्या खेळांत हांव

म्हज्या परीक सांडोन बसत म्हुणून.

**अजू** : हरी, तुजें परी आपल्या बापायच्या रंगान रंगलां, ताका तो सांगता तें खरें आनी तो सांगता तें बरें. आनी हो अडेचो रंग दिवपाक वेळ लागचोना.

**हरी** : आनी तातो विकासाच्या रंगान रंगला.

**अजू** : म्हाका ती रिर्कोड याद जाली, आज गोकुळात रंग खेळतो हरी, राधिके जरा जपुनी जा तुझ्या घरी. (प्रितम आनी मिरांडा येतात).

**हरी** : आण्टी आयली तुमी. सगळें प्लॅनिंग केलां तशें करपाचें.

**मिरांडा** : हरी हें बोरें काम कोरपा हांव तुज्या बाराबोर आहा. तूं भांगर मुरे. आनी ह्या भांगरा सांड, तें पोरी, तो बोक्कार, त्या कुसले बोंड्या हाटल्यान धावताय.

**प्रितम** : भावोजी, एक कविता म्हुणू?

**हरी** : शी. तूं आनी कितें रे ? हो टायम कविता म्हणपाचो?

**प्रितम** : तुजी हिम्मत वाडोवपा लागून म्हणटा मरे.

**हरी** : प्रितम, तुका समजना हांव हांगां टेन्शनान आसा म्हुणून.

**मिरांडा** : हॅरी, आस रे, म्हुणोनी तेका.

**प्रितम** : पांखां कापलीं म्हुणून मरणाची वाट पळयत बसप गरूडाक सोबना. उलट कापेल्ल्या पांखांच्या जाग्यार, स्वाभिमानाचीं पाखां लावून परत एकदां झुंजता तोच खरो गरूड.

**हरी** : काबार?

**प्रितम** : हय. कशी आसा?

**हरी** : तकलेवेल्यान गेली. पूण बरी आसा.

**मिरांडा** : म्हाका तोर एक उतोर देखून सोजमोना.

**अजू** : प्रितम, आतां मतसो सिरीयस जा.

प्रितम : सिरीयस तातोक, विकासाक आनी परीक करपाचें. शी हांव विकास sincere मनीस काय म्हुणून समजल्लो.

मिरांडा : आतांह्न खूंय आहाय रे तीं ?

प्रितम : भितर आसात. तांचें कितें तरी उलोवप चालू आसा.

हरी : आज तांकां झटक्यार झटके लागपाचे आसात. प्रितम तुवें विकासाक आमगेर योवपाक सांगलां न्ही ?

प्रितम : पूण भावोजी, ताका हांगा आपोवपाकूच जाय आशिल्लें ?

हरी : आरे, वायट कर्माची मडकी म्हाका तातो आनी परी मुखार फोडपाक जाय. आनी विकासाचेर इतलो विश्वास दवरिल्लो तांचो विश्वास फटींग थरलो. आता तांचीं पडिल्लीं तोंडां म्हाका पळोवपाक जाय.

मिरांडा : बोक्कारा चुरचुरे.

अजू : मिरांडा ताजे आनी तूं चुरचुरे करनाका. म्हाका एक सांग तूं कोणासायडीन ?

मिरांडा : आरे, हॅरी सायडीन. (इतल्यान भायल्यान विकास येता.)

विकास : तातो ए तातो.

प्रितम : विकास यो. तातो भितर आसा.

विकास : अशें अकस्मात म्हाका तातोन हांगा कित्याक आपयलां ?

प्रितम : म्हाका ताणें फक्त तुका आपोवपाक सांगिल्लें. कित्याक तें सांगूंक ना.

विकास : आज तुमगेर गर्दी शी. अजू आनी मिरांडा तुमगेर शीं ?

हरी : आज आमगेर दिवाळी. नरकासुराक लासपाचीं आसात आज आमी आनी नरकासुराक लासपाक आमी सगळीं हांगां जमल्यांत.

विकास : कितें ?

**अजू** : विकास, तो फकाणां करता. आज आमकांय बी तातोन हांगां आपयलां. कित्याक तें आमकांय खबर ना.

**विकास** : पूण आमकां हांगा आपोवन तातो खंय गेला तर?

**मिरांडा** : बोब्कार आनी पोरी भितोर आहाय.

**विकास** : परी अजुनी हांगाच आसा? हांवें तर ताका ॲडवोकॅटाक (थांबता).

**हरी** : ॲडवोकॅटाक, कितें?

**विकास** : कांय ना. प्रितम तातोक मातसो आपयता.

**प्रितम** : आपोवं रे भावोजी?

**हरी** : म्हाका कितें सांगता? आपय मरे.

**प्रितम** : तातो ये तातो. (तातो आनी परी येतात आनी प्रितमूय येता).

**तातो** : आवय गर्दी शी. आज कितें आमगेर?

**विकास** : तातो कसलीं फकाणां करता? सगळ्यांक तूंच आपयता आनी गर्दी कसली काय म्हणटा?

**तातो** : हांवें आपयला? हांवें कोणाकूच आपोवना.

**प्रितम** : तातो अशें कितें करता. तुवेंच तर म्हाका सांगिल्लें सगळ्यांक आपोवपाक.

**तातो** : तूं मरे चक्रम जाला. आनी आतां म्हाका चक्रम करपाक पळयता.

**मिरांडा** : बोब्कार, तुगे जाण्टेंपण न्हू रे. त्याखातीर तुका याद ना दिसोता.

**तातो** : मिरांडा, तुज्यान तर हांवें कोणाकूच आपोवना.

**विकास** : म्हटल्यार तुका आतां आमचेकडेन कांयच काम ना. तशें जाल्यार हांगा रावून टायम कित्याक वेस्ट करपाचो. परी चल आमी या.

**हरी** : ओ हिरो, ती तुजी बायल, परी चल आमी या म्हणटा तो.

खंय या?

परी : आमी ॲडवोकॅटाक मेळपाक वचपाचीं.

हरी : कित्यात?

परी : तें तुका मागीर कळटलें.

हरी : मागीर आनी कांयच ना. सगळें कितें म्हण्टा तें आज, आतां आनी हांगाच जावूनी.

तातो : परी, तुका घटस्फोट दिता.

हरी : हांव कितें हाताक कांकणां घालून बसला. तें जें जें करतलें आनी हांव तें तें पळयतलो.

अजू : आमकां सगळ्यांक आज हरीन हांगां आपयल्या, विकासाक बाशिंग बांदपाक.

विकास : ये चिल्लर, कोणाविशीं कितें उलयता तूं?

मिरांडा : ये विकास, तूं चिल्लर कोणा मुट्टा रे. आमगे अज्यू तूं येसो सोजमोनाका.

तातो : मिरांडा, विकास आमचो सोयरो, तुमी ताजेकडेन अशे कशें उलोवपाक शकतात.

मिरांडा : तुगे ह्या सोयऱ्यान कसलो उजवाड घायला तो खोबोर हा तुका. सोगल्या आड्यावोयल्या लोकांगे सुवात मेजिता तो. शिमो वाडोयता. लोकांगे सुवाती फातोर घाता. सामकी दादागिरी चोल्या तेगेली.

तातो : तुवें पळयलां?

अजू : हय हांवें पळयलां. पयर ताणें म्हज्या जाग्यार सुध्दा फातर घातिल्ले. तुमचो सोयरो म्हुणून हांव ताका वोगी रावलो. चितलें मागीर तुका सांगतलो म्हुणून. तूं कांय वाड्यावयल्या लोकांच्यो खोबऱ्यो आयकना, तुका लोक सांगतात तें फटींगूच

दिसता.

**विकास** : तातो, हो भिकारी म्हज्याविशीं अशें उलयता आनी तुमी वगी रावून आयकत आसा.

**प्रितम** : विकास, तूं आमच्या अजू भाईक कांय म्हणणाका. चोर खंयचो.

**परी** : प्रितम, तोंड सांभाळ.

**हरी** : कित्याक राग आयलो. ताका सांगता तें, पयलीं, तूं तुज्या शिमो सांबाळ.

**तातो** : चल्लां कितें ? कित्याक सगळो धुमाकूळ ?

**मिरांडा** : धुमाकूळ ह्या इकासान घायला. फोटींग मोनशान. बोक्कार तुगे जावय न्हू आसलो जाल्यार हो इकास तुगे हातीक पिकास दीन तुका खोणपा धाट्टा आसलोलो.

**परी** : आण्टी, कितें उलयतात तुमी म्हाका कांयच समजना.

**प्रितम** : समजतलें कशें, विकास ग्रेट पैशकार इतलेंच तुका समजता आनी दिसता.

**मिरांडा** : बोक्कार, पेपेर सायन माच्ची न्हू पयलीं चोयलें रे तुये ? चोयलें रे, सांगी ?

**अजू** : दोळे आसून मनशान कुड्डे जावपाक जायना. एक परक्या मनशाचेर इतलो विश्वास.

**तातो** : विकास, हीं सगळीं जाण अशें कित्याक उलयतात ?

**विकास** : म्हाका कांयच खबर ना तातो, पूण जें हांगा चल्लां तो म्हजो अपमान.

**मिरांडा** : हें कांयच न्हू, खोरे म्हळ्यार तुका फोगोट्यो लावन धावणान घालपाचो.

**प्रितम** : सारकी उलयली तूं. तातो जे मनशाच्या कुस्तार तूं नाचतालो.

तो मनीस आमकां नागोवन, भिकेक लावन वचपाचो आशिल्लो. तरी हांव तुका सांगतालो, कितें करता तें चितून कर म्हुणून. म्हाकाय वाचनासतना सय करपाक लायली.

**तातो** : तुमी सगळीं अशीं वागपाक जालां तरी कितें?

**हरी** : तुमकां खबर आसा ज्या पेपरांचेर तुमी सय केल्ली ते पेपर कसले पेपर ते.

**तातो** : ना.

**हरी** : तुमी तुमचे अख्खे अधिकार ताका दिले, म्हणजेच power of attorney.

**तातो** : पूण आमचें अशें उलोवप केन्नाच जावूना.

**अजू** : तातो, तुवें ताचेर दोळे धापून विश्वास केलो. मार म्हण्टा थंय सय मारली. आनी हो सगळे पेपर घेवन बँकेंत घाणाक दवरपाचो आशिल्लो. तरी हरीची सायन मेळूना म्हुणून तो आडावन उरलो.

**मिरांडा** : बोक्कार, तूं मुरे चुकलो. सामको फोंडा पोडटा आसलोलो.

**तातो** : पूण हें सगळें खरें कशें मानपाचें?

**हरी** : बँकेन म्हजो इंटरव्यूह आशिल्लो. ते दिसा हो म्हाका मेळ्ळो, हांवें वाचपूस केली जाल्यार, म्हाका समजून आयलें की हो आमची सगळी प्रोप्रर्टी घाणाक दवरपा चित्ती म्हुणून. तुका खबर आसा हो इतलो पैशेकार बेशटोच जावूना. हाणें अशेंच लोकांक फोंडांत घातलां आनी पयसो केला.

**मिरांडा** : बोक्कार, सोत्या आनी पोरमाण जाय.

**तातो** : विकास, उलय? सांग.

**विकास** : तातो, तुजो जांवय फट मारता.

**अजू** : विकास, फट तूं मारता. तुजो खेळ काबार. हांगा तातोचो

गोळो कापपाक आयिल्लो.

**प्रितम** : तातो आज आमकां भावोजीन वाचयलें नाजाल्यार• आमी सामकीं रस्त्यार येवपाचीं.

**अजू** : आनी एक संवय खबर ना तुका ताची. चलयांक फसोवपाची आनी जें सहजा सहजी फसना, ताका आड वाटेन मेळोपवाची. परी म्हाका एक सांग तुज्या मनान हरीपासून पयस वचपाचो विचार आयलोच कसो ?

**तातो** : हो विचार म्हज्या मनांत आयिल्लो. आनी मागीर हांवें हो विचार परीच्या मनांत घातलो. पूण म्हाका अशें चितपाक लावपी विकास.

**मिरांडा** : बोक्कार, भुरगीं चुकल्यार जाण्टेल्यांनी वाटेर हाडपाक जाय आनी जेन्ना जाण्टेलीं चुकताय तेदोना कितें ?

**परी** : विकास, तूं इतलीं फटींगपणां करपाक शकता. म्हाका आनी तातोक तुवें सामकीच पिशीं करून सोडल्यांत.

**तातो** : विकास, इतलो तेंप लोक तुज्याबद्दल कितें कितें उलयताले, हांवें लक्ष दिवूना. पूण आज हांव हीं सगळीं सांगतात तें आयकून सुध्दा वोगी रावलो जाल्यार मुर्ख मनीस थारतलो आनी म्हाका स्वताक मूर्ख म्हणून घेवपाक नाका.

**विकास** : तातो हांव तुका खरें कितें तें सांगता. मातसो थंड जा.

**तातो** : नाका म्हाका आतां तुजें कांयच आयकुपा नाका. म्हजीं सगळीं कागदपत्रां तूं जाता तितल्या बेगीन हाडून दी. आनी आतां तूं हांगाच्यान वच.

**मिरांडा** : बोक्कार इतू व्होडलीं फोटींगपणां कोन्न लेगीत तूं ताका येसो सोडटा ?

**तातो** : हय फक्त तो म्हजो फ्रेंड रामनाथालो चलो म्हुणून.

परी : विकास, तुवें हरीविशीं नाका नाका तें सांगून म्हजे कान भरले आनी हांव पिशें तुजें आयकून हरीकडसून पयस जावपाक चिंतपाक लागलें. खरेंच तुका पोलिसांकूच दिवपाचो.

अजू : सारखें.

हरी : आसू अजू वचूं ताका. आमचें वायट कांयच जावूना. देवान आमकां वायट जावचे पयलीं साल्वार केलें.

प्रितम : व्हडलो हो लँड डेवेलोपमेंट करपी. चल लाग चलूंक हांगचो. दुश्ट मनीस खंयचो.

मिरांडा : भोषम्यार. पोत्तून आमगे आड्यार योवनी दाखोय, तुका नाच्च कोत्ता. आमगे बोक्कारा फोणा घाता (विकास वचपाक लागता) आनी चोय पेपर हाण दी रोकडोच्च्य, ना जाल्यार चीत तीं आ. फोकोणां ना मूकोडे (विकास वता)

परी : हरी, हरी म्हाका माफ कर. हांव चुकलें. खूब चुकलें. हांव म्हजी शीम हुपलें. केन्ना हांव तातोच्या आनी विकासाच्या सांगणेर आयलें हें म्हाका समजलेंच ना. म्हजी तुका तोंड दाखोवपाची सुद्दा लायकी ना.

हरी : परी, तूं म्हज्या जिविताची राणी. प्लीज तशें म्हणनाका.

अजू : परी, हरी असलो मनीस, घोव म्हुणून मेळपाक नशीब जाय. तुका खबर आसा, हरीक बँकेन Assistant Manager म्हुणून जोब लागला आनी फाल्यांच्यान तो जॉयन जावपाचो.

प्रितम : पळयलें परी, हांव तुका सदांच सांगतालो, म्हजो भावोजी एकदम भांगर म्हुणून आनी आज ताकाच लागून आमी साल्वार जालीं.

तातो : हरी हांव चुकलो. हांवें तुका खूब सतायला, तुजो अपमान केला आनी आतां तर हांव एक व्हडलें पाप करपाक वतालो,

परीक तुजेकडसून पयस करपाक सोदतालो आनी ह्या घोर पापा खातीर देव म्हाका केन्नाच भोगसुपाचो नाशिल्लो. हरी हातूंत परीची कांयच चूक ना. सगळी चूक म्हजी. हांव ह्या विकासाच्या सांगणेन असो वागलो. तुज्यासारक्या भांगराक हांव वळखूंक शकलो ना.

**हरी** : तातो, आसूं आतां कितें जालें तें जालें, हांवें तुमकां माफ केलें. आतां फाल्यांच्यान परी कामाक वचचें ना. आतां ह्या घराची जबाबदारी हांव घेतलो.

**परी** : हरी, हांव एक सांगू, आज तुका हांव एक गिफ्ट दिता. हांव आवय जावपाक रेडी आसा.

**हरी** : तशें जाल्यार हांव तुजेर ना नीन प्रीत सत्येनू, कन्नडीन.

**मिरांडा** : येशीच्य सोदाच्य मोगार रावाय. बोक्कार चोयलें, सदाच्य सांगितालें तुका, तुगे जांवय मुळ्यार भांगर म्हूण. आनी तुका ह्या भांगराचो मोल कोरपाक कोळोना.

**तातो** : मिरांडा, खरेंच आयच्यान हांव हरीक कांयच वायट शब्द दिवचोना. म्हजो जांवय हुशार म्हुणून सगळ्यांक सांगतलो.

**मिरांडा** : बोक्कार तेशें न्हू. भांगोर, भांगोर म्हूण सांग तुगे जांवय.

**तातो** : बरें आयच्यान हांव सगळ्यांक मोठ्यान सांगता, जांवय म्हजो भांगराचो, जांवय म्हजो भांगराचो!

**(नाटक सोंपता)**





ॲड्.अभिलाषा शिवाजी नायक
२२, तारीपांटो, सांगें, गोंय.

शिक्षण: बी.ए., एल्.एल्.बी.
वेवसाय: आदोगाद

- ललीत लेख- ५, नाटक- ५, एकांकी- १०, कविता- १५०
- ल्हानपणासावन नाट्यकलेची आवड.
- साबार कोंकणी आनी मराठी नाटकांतल्यान मुखेल भुमिका सादर केल्यात तशेंच जायत्या नाटकांचें दिग्दर्शन केलां.
- जुझारी ह्या कोंकणी फिल्मांत वांटो घेतला.
- आकाशवाणीवेल्यान भलायकी ह्या विशयाचेर कार्यावळी सादर केल्यांत.
- साबार कवी संमेलनांनी कविता सादर केल्यात.
- अखिल गोंय आंतर महाविद्यालयीन एकांकी सर्तींत उत्कृश्ट स्त्री अभिनयाखातीर सेगीत तीन वर्सां इनामां जोडल्यांत.
- सरकारी कॉलेज, केपें हांचो २००३ वर्साचो Best Cultural Person पुरस्कार.
- कोंकणी एकांकिका लेखन करून साबार सर्तींनी इनामां जोडल्यांत.
- 'नेण्टीं तीं नेण्टीं, जाण्टीं कितें कमी' नाटकाचो २००८ वर्सा सांग्यार पयलो प्रयोग सादर केलो आनी उपरांत ह्या नाटकाचे पांच प्रयोग वेगवेगळ्या थळार जाले.
- १४ जुलै, २०१२ ह्या दिसाक 'नेण्टीं तीं नेण्टीं, जाण्टीं कितें कमी' हें नाटकाचें पुस्तक उजवाडाक आयलें.
- नोव्हेंबर, २०१२, लोकमान्य सोसायटी, सावर्डे हांचेवतीन सत्कार.
- मार्च, २०१३, भंडारी समाज, सांगें हांचेवतीन सत्कार.
- डिसेंबर, २०१३, 'जांवय म्हजो भांगराचो' नाटकाचो पयलो प्रयोग सादर केलो आनी उपरांत ह्या नाटकाचे सत्तावीस प्रयोग वेगवेगळ्या थळार जाले.